॥ ॐ गं गणपतये नमः ॥

# जैत

## चवथ विशेशांक-2010


वर्स : **33**

अंक : **एक**

संपादक : **भिकू बोमी नायक**

कार्यकारी संपादक : **सत्यवान स. नायक**

मुखचित्र : **संजय नावेलकर,** माशेल
**गिरीश नावेलकार,** माशेल

उजवाडपी : **सुरेश सगुण नायक**
जैत प्रकाशन
336/11, खोर्ली – इल्हास,
तिसवाडी – गोंय 403 110
फोन : 2284637

छापपी : **सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम**
तिसवाडी, खोर्ली – गोंय

मोल : **30/- रुपया**






# मांडावळ



## उपकार

*जैताक साहित्य धाडपी, जाहिरातदार, चित्रकार, हो अंक छापून दिवपी सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टमचे मालक आनी कर्मचारी हांचे आमी उपकारी आसात. वाचक ह्या अंकाचें स्वागत करतले अशी आस्त बाळगितां. चवथिची सगळ्यांक परबीं!*

*- संपादक*



Department of Industries,
Trade and Commerce.

# Accelerating Industrial Growth in Goa



The new **Industrial Policy** of Goa focuses on achieving overall economic growth of the State. It aims to catalyze entrepreneurial resources and provide industries, access to high quality infrastructure, institutional support, technology upgradations, marketing support and deregulation of business environment for an efficient, proactive and transparent administrative framework.



## The new **Industrial Policy** provides the following incentives and subsidies:



**Employment Subsidy Scheme**
This scheme is designed to encourage sustainable employment of local youth.



**Capital Contribution Scheme**
This scheme is designed to support local entrepreneurs, promote industrial units and units in the tourism sector.



**Share Capital to Self Employed / Local Entrepreneurs**
This scheme encourages local entrepreneurs to start income generating activities.



**Interest Subsidy Scheme**
In an effort to boost economic growth in the State, it is proposed to provide subsidy on interest payable.



**Certification / Patenting Incentive**
This scheme is designed to encourage units to obtain Certifications & Accreditations.



**Scheme to encourage consumption of Local Raw Materials**
The scheme envisages encouraging consumption of raw materials by the industrial units by offering incentives.



**Incentives for Women**
A set of incentives offered to encourage employment opportunities for women entrepreneurs



**Export Market Development Scheme**
This scheme aims to encourage Goan Industries to improve their export markets.

*For any details or queries, please contact*



GOVERNMENT OF GOA
**Department of Industries, Trade and Commerce.**
Udyog Bhavan, 1st floor, Panaji, Goa 403001, India.
Ph: 091 832 2222241 / 2242268 / 2226377 | Fax: 091 832 2224116
www.goaditc.gov.in

# गोंयची चवथ

चवथ गोंयकारांची आवडटी परब, समस्त गोंयकारांक ती दिवाळीच कशी, चवथीक सगल्यांचेच खोशेक ओतो येता, भुरगीं फोगांत रमतात, जाण्टीं मनशां घर निवळ दवरपांत मग्न आसतात जाल्यार बायलां रांदचेकुडींत गुल आसतात. रंगयाळ्या फोलींनी सजयिल्ल्या मखरांत गणपतीक बसयतात. ताची पूजा करतात, आरत दाखयतात आरती म्हणटात, गाराणें घालतात आनी देड दिसान, पांच दिसांनी, सात दिसांनी वा इकरा दिसांनी पावयतात.

सृश्टीचो पालनकर्तो स्वता श्रीविष्णून अग्नी पुर्राणांतल्या 71 व्या अध्यायांत कसलेंय कार्य निर्विघ्नपणान जावचें हे खातीर मनांत इत्सा केली. सगळीं कामां सुरळीत जावचीं म्हणून श्रीगणेशाचें स्मरण करचें अशें सांगलां. बुद्धिची देवता आनी विघ्नहर्ता म्हणून पुजतात त्या गणपतीचें स्वरूप हेर देवांपरस सामकें वेगळें. ताची तकली हतयाची आनी कूड मनशाची, पूण. ती लेगीत सामान्य मनशा सारखी न्हय. ताचें पोट खूब मोटें. ओंकाराचें प्रतीक म्हणून श्रीगणेशाक मानतात. विघ्नहर्ता म्हणून खंयच्याच कार्याचे सुखेक श्रीगणेशाची पूजा करपाची प्रथा आसा. आनी तशें केल्यार कार्य निर्विघ्नपणान पूर्ण जाता ही श्रद्धा आसा.



अतुल र. पंडित
मडगाव – गोंय

श्री गणेशाक साबार नांवां... नारदमुनीन रचिल्ल्या श्रीगणेश स्त्रोतांत बारा नांवां दिल्यांत, वक्रतुंड, एकदंत, कृष्णपिंगाक्ष, गजवंदन, लंबोदर, विकट, विघ्नराजेंद्र, धउम्रवर्ण, भालचंद्र, विनायक, गणपती आनी गजानन अशी ही बारा नांवां ह्या बारा नांवांनी सकाळीं, दनपरां आनी सांजवेळा अशा तिनूय मायत्यांक सर्वसिद्धि दिवपी देवाचें जो चिंतन करता ताचे मुखार कसलेंच विघ्न येना अशे म्हणटात श्रीगणेशाक आमी आद्य दैवत मानतात सदचे पुजेंत श्री गणेशपूजेक आमी पयलो मान दितात. शुभकार्याचो शुभारभ करतना सगल्यांत पयलीं गणपतीक होरायतात. 'नमन तुका ईश्वरा' अशें म्हणून गणपतीक वंदन करूनच रंगभुयेचो पडडो उगडटात. लोककलांनी गणेशस्तवन करपाची, परंपरा आसा, पड्ड्याचेरूय श्रीगणेशाक सुवात मेळ्या, महाड, पाली, रांजणगाव, लेण्याद्री, ओझर, सिद्धटेक, मोरगाव आनी थेऊर ह्या अशटविनायकाचें दर्शन घडयतल्या 'अशटविनायक' ह्या नांवांच्या चित्रपटांत सगल्या सुवातांनी एक गीत चित्रीत केलां. लागीं लागीं सोळा मिण्टां चलपी 'अशटविनायका तुझा महिमा कसा' हे गीत आठ नामनेच्या कलाकारांचेर चित्रीत केलां. हिंदीतल्या 'हम से बढकर कौन' ह्या चित्रपटांत संगीतकार रामलक्ष्मणान संगीत दिल्लें 'देवा हो देवा' हे गीत बरेंच गाजलां. 'माय फ्रेंड गणेशा'चे दोन वांटे आयल्यात आनी तिसरो वांटो येवपाचे वाटेर आसा.

धर्मग्रंथ, रूढी, परंपरा आनी चालीरिती आमकां पाळच्योच पडटात. आमच्या हिंदू धर्मांत लागी लागी तेत्तीस कोटी देव आसात अशें धर्मग्रंथ सांगता. दरेका दोन – पांच तकल्यां फाटल्यान





एक देव, दरेकाची स्वताची वळख आसप  शक्य नासलें तरी हातूंतले हजारांनी देव, कोणाचे 'कुळपुरुश' झाल्यार कोणाचे 'ग्रामदैवत' म्हणून आपली वळख दवरून आसात. पूण खऱ्या अर्थान पळोवंक गेल्यार संवसाराच्या ह्या व्हड पसाऱ्यांत उत्पत्ती स्थिती आणि लय ह्या तिनूय म्हत्वपूर्ण घडणुकांक अधोरेखित करपी देव म्हणून ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश ह्या त्रिमूर्तींचें नांव घेतात. 'सृश्ट निर्माण करपी ब्रह्म, सृश्टी सांबाळपी विष्णू आनी पृथ्वीची संतुळा रखपी आनी सांवरून धरपी देवाधिदेव महादेव हींच मूळ दैवता' जीवसृश्टीचें बौद्धिक दायज मेळोवपी ब्रह्मदेव, विंगड विंगड अवतारांतल्यान धर्माचेर आयिल्ली मरगळ फाफडून उडोवपी विष्णू, तांडव आनी तिसऱ्या दोळ्याचे कक्षेंत आशिल्लो भोळो सांब, स्वताचेर वैराग्याची छाप उदेवपी दत्तात्रेय, मर्यादा पुरुषोत्तम राम आनी अनाकलनीय आनी गूढ असे पूर्णपुरुष भगवान श्रीकृष्ण ह्यासारक्या मुखेल देवांची पूजा लोक करतात तांकां वंदन करतात आसले तरीय तांचे भक्तांकडेन आशिल्लें नातें एके थारावीक अंतरामेरेनूच मर्यादित उरलां पूण गणपती देवाचें तशें ना. हो गणाधिपती लोनायक, अशाश्वत मनाक व्यापून उडोवपी गणपती हें शाश्वत दैवत, जीवसृश्टींतल्या समस्त मर्त्य लोकांच्या काळजांत वचून बशिलो हो एकमेव असो देव. गणपतीचे रूप हेर देवांपरस सामकें वेगळे आनी वैशिष्ट्यपूर्ण. सुपासारखे कान, एदें मोटे पोट, ऱ्हस्व दोळे, व्हड तकली, वांकड्या आकाराची सोंड आनी एकदंत असो हो गणपती आनी ताचें वाहन हुंदीर, तांचे विशींच्यो काणयो ताचे दैवी प्रतिभे वांगडा ताच्या स्वभावांतल्यो सहजवृत्तीच्यो कुरवो दाखयतात. पृथ्वी प्रदक्षिणेची सर्त जिखतना ताणें दाखयिल्ली बुद्धिची हुशारकाय, चंद्राकडल्यान जाल्ल्यां अपमानाक लागून ताणें उक्ताथिल्ली तिडक, रावणाकडलें शिवलिंग जमनीर दवरताना ताणे दाखयिले सादें भोळेपण. राकेसां कडेन केल्ल्या कितल्याशाच लढायांतल्यान ताणें दाखयिलें मुत्सद्दीपण, महाभारताचे लिखाण करतना ताणें महर्षी व्यासाकडेन केल्ली बुद्धिची लटाफट ह्या आनी अशा कितल्याशाच काणयांतल्यान मुखार येवपी गणपती आमकां आपलोसो दिसता. ताचे गोल गोल देह, चलतना लटलट हालपी ताची सोंड, फडफडपी कान, तुटिल्लो दांत अशा स्वरुपांतली ताची मूर्त घरात येतकच खिणांभितर मानाची आनी हक्काचीसुवात घेता आनी रोखडीच घरांतलीच जावन बसता. तिचेकडेन आशिल्लें दरेका घराचें नातें इतलें घट जाता, दृढ जाता की देड-पाच-सात वा, इकरा दिसांनी वचपी हो सोयरो 'निरोपाची पोच' दिता तेन्ना दोळ्यांत दुकां दाटून आयले बगर रावनात. आमच्या घरांत सोयरो म्हणून येवपी आनी हक्काचें स्वामित्व प्रस्थापित करपी असो हो देव, गणपतीक वंदन केले बगर आमचें कसलेंच म्हत्वाचें कार्य म्हत्वाचे विधी सुरू जायना. मुदलांत श्रीगणेश ही सैमांत रमची देवता ताका लागून ताका ओतिंल्ल्यो वस्तूय सैमाकडेन संबंदीत आसात, ती कृषिदेवता आशिल्यान तिचे स्वरुपय सैमाकडेन, रानाकडे संबंधीत आसा. आनी हे गजालीचो दिश्टावो गोंयांत मनयत चवथीक मनयतले रूढी वयल्यान जाता. गोंयांत चवथीचे तयारीचो एक म्हत्वपूर्ण वांटो म्हणल्यार माटोळी

## मारोळी

गणपतीची जंय प्रतिश्ठापना करतात ते बसकेचेर पारव्याक एक लाकडाची चौकट बांदिल्ली आसता. ताकाच माटोळी म्हणटात आनी ही फकत गोंयातूच दिश्टी पडटा. माटोळी म्हणल्यार मंडप, मंटप, माटीव, सिंधुदुर्ग, रत्नागिरी ह्या जिल्ह्यांत 'मारवी' अशें म्हणटात. माटोळेबगर गणपतीची पूजा करची न्हय अशें मानतात. कितलींशींच फळां, रानफळां, रानवनस्पतींचो साज घेवन माटोळी नटिल्ली आसता ते इल्लेशे लाकडाचे चौकटीत सगळो सैमूय अवतरिल्लों आसता आनी आपल्या विंगड विंगड रुपांनी तो गणपतीचेर चंवऱ्यान वारो घालीत आसता. गणपती मुखार



आनी माथ्यार पारब्यांक आदीच बांदिल्ले एके लाकडी चौकटीक रानांतल्यान आनी गावठणा वयल्यान हाडून बांदिल्ल्या विंगड - विंगड फळफळावळींची आकर्षक मांडावळ म्हणल्यार माटोळी सगळ्यांचीच नदर ओडून घेता.



ही माटोळी फास्की वा लाकडी चौकटीच्या रुपांत कायमस्वरूपात घरांत बांदिल्ली आसता. ती रिती केन्नाच दवरनात. तिका उण्यांत उणो एक असलयो नाल्ल आनी वा एक आब्या ताळोतरी बांदतातूच. आदल्यातेंपार एक तर कोंड्याकांबी वा माडयेचे कांबेपासून ही चौकट तयार करताले. पूण आयज भंगसाळेतल्यान ताशिल्लोय कांबी माटोळेची चौकट म्हणून वापरतात. हे माटोळेक सैमीक फळफळावली वांगडांच सोबे खातीर म्हणून लाकडाची (आता प्लास्टिकाची) हुबेहूब दिसपी फळां बांदिल्लींय पळोवंक मेळटात. तशेंच कांयकडेन फळफळावळी वांगडाच सान्नां, नेवऱ्यो, लाडू, पो हे जिनसूय मांटोळेक बांदिल्ले दिश्टी पडटात. गणपती घरात हाडचे आदीं माटोळी सजयतात. ती सजयलेबगर वा बांदले बगर गणपती घरात हाडूंक फावना. असो कडक नेम आसा. गणपतीक कितेंय अर्पण करपाचें आसत तर तें माटोळेक बांदतात. तशें बांदतकच तें गणपतीक पावता अशी भाविकांची श्रद्धा. आनी हीच श्रद्धा आंगवण केल्ल्या भुरग्याक म्हणल्यारूच अर्भकाक माटोळेक बांदून काडूंक जाणट्यामनशाक फर्मायता. माटोळी चडशें घरांतल्या कर्त्या मनशानूच लावची अशी रीत आसा. पूण काय कडेन गांवांतल्या जलम्यान माटोळी हाडूनच न्हय जाल्यार बांदून दिवपाचीय चाल आसा.

मांटोळेंक पयलो मान आंब्या ताळ्याचो वा असलयो नाल्लाचो. आंब्या ताळो वा असलयो नाल्ल बांदतकच हे तामांन बांदतात. खूबकडेन तये दिसाच माटोळी बांदपाची रीत आसा. असोलयोनाल्ल माडा वयल्यान खास काडून हाडटात. माटेळीक कितलीं फळां आनी खंयची बांदची हाका मर्यादा नाशिल्ल्यान कांय कडेन माटोळी भरगच्च भरिल्ली दिसता. गणपतीबाप्पांक पावय मेरेन माटोळेक लायिल्ली फळफळावळ काडप ना तिका आफुडप लेगीत ना असो नेम आसा. गणपतीक बायंत वा तळयेंत वा न्हयेंत पावयलो की मागीर माटोळेचें फळ प्रसाद म्हणून वाटटात. कांय वेळा माटोळेक लायिल्लीं फळां पिकतात आनी पडटांत. तेन्ना तें फळ प्रसाद म्हणून खातात. हें भोव करून गणपती पांच दीस वा इकरा दीस दवरल्यारूच घडटा.

सैमांत सहज मेळपी फळफळावळं माटोळेक बांदतात. तवशीं, भेंडे, घोंसाळे, दुदी, तोरींग, केळ्यांचो फेणो, संत्री, मोसंबी, चिबूड, पणस, भिलफळां, नागुलकड्डो, वागचपको, सतफळ, कांगलां, कारांदी, शिरमंडोळी, बेड्यांचे शिपटें तशेंच आंगवण केल्ल्यो नेवरेय माटोळेक बांदपाची रीत आसा. रानांत जें जे सोबीत आनी आकर्शक दिसता ते माटोळेक बांदतात. माटोळेक सोंवळें ओंवळें मान खूब लागता. माटोळी बांदपाक हेर कसलेच दोर चलनात. शुद्ध चिवयेचे दोर जाय. न्हावन धुवनच माटोळीबांदची पडटा. खूबशा कुटुंबांत माटोळी बांदपी मनीस थारिल्लो आसता. गणपती बसयतकच माटोळेक सौभाग्य फावो जाता. गणेश पुजे वांगडाच माटोळेकीय गंध आनी फुलां ओंपून पुजा करतात.

आदीं घरांतले कर्ते दादलें रानांत वताले. आनी माटोळेक लागपी फळां आनी फुलां घरा हाडटाले. आमी भुरगें ताणीं हाडिलीं फळां धुवून पुसून दवरताले. आयज ती मजा ना. ही रानफळां हाडूंक चडशें कोण रानांत वचनात. हीं सगळीं फळां आयज बाजारांत विकतीं मेळटात. लाकडाचीं फळांय मेळटात, माटोळी फळांबगर सजना, आंब्या ताळ्याविणे फुलना आनी असोलया नाल्ला बगर सोबना हें जरी खरें आसलें तरी हालीं मात माटोळेक कृत्रिमपणा दिसपाक लागला. माटोळे खातीर लागपी फळां पाडपाखातीर रानांनी वचपाची गरज ना. न्हय रानांत वचपाक आयज कोणाक



वेळूच ना. वेळ आसलोच जाल्यार निश्क्रीयता आड येता. फ्लट संस्कृतीक लागून मागीलदारांतलें. पोरसूंय ना जावपाचे वाटेर पावला. माटोळेक कसलीं फळां लायतात, तांचीं नांवां कितें हें तरणे पिळगेक खबर ना, तशें जाण्ट्यांक विचारचें अशेंय तांकां दिसना. तशी गरजूच तांकां भासना आदीं विंगड विंगड फळांनी, फुलांनी माटोळी गच्च भरिल्ली आसताली आयज बोल्सांक परवडटा इतलेंच सामान हाडप जाता आनी गरजेपुरतींच फळां माटोळेक लावप जातात. कांय कडेन माटोळेक सोबून दिसपी फळफळावळीची सुवात लाकडी फळफळावळीन घेतल्या, बदलत्या काळाप्रमाण समाजाची आवड आनी जिणे पद्दतींत बदल जाल्लो आसलो तरी आयजूय माटोळेक असोलया श्रीफळाचे म्हत्व आनी अस्तित्व तिगून आसा ही तितलीच समाधानाची गजाल.



खावपाक योग्य अशीं फळां वा भाजयो माटोळेक बांदतात हें समजूं येता पूण विखारी फळां माटोळेक कित्याक म्हणून? उपेग नाशिल्ल्या ह्या रानफळांचो आसपाव माटोळेक बांदतात त्या फळांनी कोणे केलो काय? हाची म्हायती मेळोवपाचो यत्न केलो तेन्ना कोणूय समाधानकारक जाप दिवंक शकलो ना. घडये हेर फळांप्रमाण रानटी फळांचीय पूजा जावची आनी तांची वेगळी वळख उरची म्हणून ह्या रानटी फळांचो आसपाव माटोळेक बांदपा खातीर पूर्वजांनी केला आसुये आनी दुसरें म्हणल्यार मनशाचे जिणेक लागपी अन्न, वस्त्र आनी आलाशिरो ह्यो तिनूय गरजो दिवपी वनस्पती विशीं कृतज्ञता उक्तावप हो हेतूय माटोळी लावपा फाटल्यान आसुये. गणपती ही रानांवनांतलीच एक देवता. ताची कूड मनशाची आनी तोंड हतयाचें ताका लागून गणपतीकूय 'आपल्याच घरांत' राविल्यासारकें दिसचें हे नदरेन वातावरण निर्मिती जावची म्हणूनच माटोळेची परंपरा सुरू जाल्ली आसुये.

### वज्यांचे वजें

श्रावण म्हयनो सोंपपाक आयलो की लग्न करून दिल्ले धुवेच्या घराक वेध लागतात ते तिच्या घोवा घरा वजें धाडपाचे, चवथीची परब लागीं पावली की गोंयांतल्या चडशा घरांनी हो वज्याचो बोवाळ आसता, वजें दिवपाची ही प्रथा खूब पोरनी, कुळार आनी घोवाचें घर ह्या दोनिय घरांचो मोगा संबंद वाडोवपा खातीर ही प्रथा अस्तित्वांत आयिल्ली आसली तरी तो एक प्रतिशठेचो विशय जालो. लग्न जातकच घोवा घरा गेल्ले चलयेक खासा करून पयले चवथीक तिचो बापूय वा भाव वजें धाडटा. चलयेचें कुळार जितलें गिरेस्त तितलें वजें व्हड, देखून वज्यांतल्यो हेर सगल्यो गजाली चलयेच्या बापायचे ऐपतींप्रमाण आनी कुवतीचेर थारतात. पूण पयल्या वज्यांत सुपारीचें शिपटें, केळ्या घड वा घडुलें, नाल्लाची पेंड आनी हेर माटोळेचें सामान आसुंकूच जांय.

आदली गजाल वेगळी आसली. व्हडलें घर आसतालें. रासवळ कुटूंब आसतालें. भाट आसतालें. नाल्ल भरपूर मेळटाले. घरचीं बायलां नेवऱ्यो करतालीं. एकली सारण मारताली दुसरी पीट कालयताली. सगळीं नेवऱ्यो लाटटाली. त्या नेवऱ्यांनी सारकेंच म्हणल्यार ज्युस्ताज्सुते सारण भरप आनी मागीर त्यो तळप सगळ्यांकूच मजा येताली. वज्यांत म्हत्वाचो भाग आसता माटोळीच्या सामानाचो. ह्या वज्यांत मोसंबी, केळी, चिकू, पेरू, आपोलां आदीं फळा आसतातूच पूण त्याच वांगडो सुपारीच्या फळांचो घोंस (कात्रो) नाल्लाची शेल, केळीचो घड, आंब्याच्या पानांची तळी काकडी, हळदीची पानां अशीं आपल्या रितीरिवाजाप्रमाण दितात. खावपाच्या जिनसांनी नेवऱ्यो मुख्य आसतात. मोरांच्या आकाऱ्यो, आंब्याच्या आकारांच्यो, काजू तशेंच हेर आकरांच्यो नदी नक्षीदार, नेवऱ्यो आकर्षक रितीन तयार करतात. ते भायर गणपतच्या आवडीचे मोदक, गोडाच्या पाकांतल्या लाह्यो चक्र्यो, पेढे, बर्फी, तिखट फोव, काजूबियांपासून तयार केल्लें खास लाडू तशेंच भिकणां काजू, भाजिल्ल्या चणयांचे दोळीपासून केल्ले पांच खाजीचे लाडू, बेसनाचे वा





रव्याचे लाडू, फेणोरी, शेव-चिवडो हांचोय आसपाव आसतालो तशेंच धुवेक आवडटल्या हेर खावपाच्या जिनसांचोय तातूंत आसपाव आसता. वज्या वांगडा आपल्या जावयांक देवपुजेचें सगळें साहित्य दिवपाचीय प्रथा आसा. तातूंत ताबयो, ताम्हण, पळी, सोवळे, दोन ल्हान सुपल्यो, फुल्यो मारिल्ले दोन लाकडी पाट, विड्यांची पानां आदी वस्तू आसतात. कुळारचें वजें येतकच तातूंतले कांय जिनस, शेजाऱ्यांक वाटपाचीय परंपरा आसा. एके परातीत हे जिनस घालून वयर विणिल्लो वुलनाचो तुवालो घालून ते धांपतात.

आदींय वजें दिताले, आतांय दितात. पूण ल्हवू ल्हवू हे प्रथेचें स्वरूप बदलत चल्लां. प्रतिश्ठेच्या चपक्यांत हे वजें धाडपाफाटली मुख्य भावना पयसावत चल्ल्या. लग्न करून दितकच पयलीच परब घोवा घरच्या लोकां वांगडा मनयतना. धुवेक घोवा घरा परकेपणाची जाणीव जावची न्हय हे खातीर आपुलकेचे भावनेन हे वजे दितात. पूण आयज हाततूंत प्रेमापरस भयकोच चड दिसून येता आनी तो सामान्य मनशाक परवडण्यासारको ना तरी घोवा घरच्या लोकांनी धुवेक बरे करचे अशे म्हणून वेळार रीणा काडूनय वजे धाडटात. आदी वज्यांत आशिल्ले जिनस घराच करताले. गरज पडल्यार रांदपीय हाडटाले. आज घोव-बायलां जोडटात. विभक्त कुटुंबां वाडटात. वज्याखातीरूच न्हय जाल्यार घरापुरतेय जिनस करपाक आयज कोणाक वेळ ना. वज्याची प्रथा मात तशीच आसा. नेवऱ्यो धाडटात पूण पयलीं भशेन शंबर-दोनशें न्हय, पंचवीस ते पन्नास. घोवा घरचे लोक कितें म्हणटलें? म्हणून वजें धाडटात. जें वजें धाडलां तातूंतले कितले जिनस धूव खाता? तिच्या घरचे लोक कितले खातात? हाचोय विचार कोण करिना. घरांत केल्ल्या खावपाच्या जिनसांची रूचूय आगळी आसताली ती रूच आयज बाजारांत मेळटल्या, रेडिमेड जिनसांक येना कश्टकरून तयार केल्ल्या जिनसांचो आनंद वेगळोच आसता. हो आनंद बाजारांत मेळटल्या जिनसांनी आसना आनी ते जिनस विकते घेवन ते धाडपांत मजाय आतां उरूंक ना.

**आरतीचें स्वरूप बदलता**

'सुखकर्ता दुःखहर्ता वार्ता विघ्नांची। नुरवी पुरवी प्रेम कृपा जयाची', शेंकड्यांनी शेंकडे, वर्साचीं वर्सां भुरगीं' धरून जाण्ट्यांच्या ओंठार रुळिल्ले हे गणपतीचे आरतीविणें कसलेंच मंगलकार्य पूर्ण जायना. सिद्ध जायना. श्रीगणेशाची ही आरती म्हणल्यार समर्थ दामदास स्वामीच्या हातांतल्यान साकारिल्ली एक अप्रतिम प्रासादिक रचना. हे आरतीक गणेशोत्सवांत चवथीक तशेंच खंयच्याच मंगल प्रसंगावेळार करतात. ते पुजेंतूय पयली सुवात मेळळ्या, समर्थ रामदास स्वामी हे खरें म्हणल्यार भगवान श्रीरामाचे उपासक आनी परमभक्त अशें म्हणटात. समर्थ रामदास स्वामी हे पुणे जिल्ल्यांतल्या मोरगांव ह्या गणेश स्थानाचेर गेल्यावेळार गणपतीच्या दर्शना उपरांत तांणी ही आरती बरयली. हे आरतीची तीन कडवीं सगल्याक म्हणटात. तीं सामकीं ल्हान भुरग्यांपासून जाण्ट्यांमेरेन सगळ्यांक तोंडपाठ आसात. रामदास स्वामीन हे आरतींत गणपतीचें वर्णन केलां. चवथीक हे आरती खेरीज हेर आरतीय लोक म्हणटात. आरतीचे वेगवेगळे प्रकार आसात. ते खातीर घुमट, शामेळ, कांसाळें, झांज, पेटी, तबलें आदी वाद्य साहित्य वापरतात. घरांघरांनी स्वतंत्रपणान म्हणटल्या आरतींक फकत झांज वाजयतात. आरतीवरवी आमी देवाची तुस्त गायतात. देवाक होरायतात. पूण ज्यो आरती आमी म्हणटात त्यो शद्ध म्हणटात? म्हाका दिसता शंभरांतल्यान फक्त एक-दोन मनशांकूच शुद्ध आरती म्हणूंक येतात आसतल्यो, गणपती मुखार आरती म्हणटना कोणतरी आपले फाटल्यान लागला अशा आवेशांत आरती म्हणपी मनशां जाता तितले जलद गतीन वा व्हड व्हड आरती म्हणून आपल्या आंगावयलो भार हलको केल्ल्याप्रमाणं वागतात अशें आमकां दिसून येता. अशा वेळार आरतींचो अर्थय समजून घेवपाची तकालस कोण





घेना. अशें करून आमी आरतीचें पावित्र्य तिगोवपाक खरेंच येसस्वी जाल्यात? गणपतीमुखार आरती म्हणूनक जाय म्हणून आरती म्हणप हो दिश्टीकोण आमी आतां बदलूंक जाय. आरती आवाज वाडोवन म्हणटना आपले ते कृतीक लागून हेरांक त्रास जावचो न्हय हाची जतनाय घेवप गरजेची. आवाजाची पट्टी वाडोवन व्हडाव्हडान. आरती म्हणटना आशीकुशीक कोण दुयेंत मनीस हांतरुणार तळमळना मूं हेंवूय पळोवप गरजेचें. आमचे देवभकतीचे बेजबाबदार कृतीक लागून आनी आमचें मनीसपण विसरून वचूंक ना मू? हाचोय विचार जावंक जाय, मनीसपणाची जाण दवरुनच आमी आमचे उमेदीचेर काय प्रमाणांत अंकुश दवरुंकच जाय. चवथीक भटजी मेळत म्हणून सांगूयेता. अशा वेळार आमी कॅसेटीच्या आदारान पुजा करतात. ती पुजा उखलापी आसता खिणयाळएं सुख दिंवपी आसता हे आमकां केन्ना कळटाले? हे अशेंच चलत उरले जाल्यार आमचे सांस्कृतिक ते बादुंयेता हाचें कोणाक पडूनच गेलें ना. आरती सादर करप हीवूय एक कला. ही कला तिगूंय उरची हे खातीर काय संस्था राज्य पांवड्यार आरती सर्त घेतात ही तातूंतल्यातातूंत तोखणायेची गजाल.

गणेशोत्सवाचें पावित्र्य इबाडटा लो. टिळकान 1893 वर्सा गणेशोत्सवाची सुरवात केली हे आता सगळ्यांक खबर आसा. आदी श्रीगणेशोत्सवाक राष्ट्रीय महोत्सवाचे स्वरूप आसतालें. आयज तें बदलां आनी सार्वजनिक गणेशोत्सव म्हणल्यार फक्त धुमशेणां कांडपाचो उत्सव जाला. लाखांनी रुपयांची वर्गणी मेळटा ताचो वापर लायटीची रोशणाय आनी सजावटी खातीर करतात. गणेशोत्सवाच्या माध्यमांतल्यान लोकप्रबोधन, राष्ट्रीय जागरण, सामाजिक जागृती करप आसता हें गणेशोत्सव मंडळाक खबरूच नासता. आदल्या तेंपार गणेशोत्सवाच्या काळात बऱ्यांतलो बरो संगीत महोत्सव जातालो पूण तोवूय आता जायना. गणेशोत्सवाच्या धा दिसांच्या काळांत फक्त नदरसुख मेळटली आनी पोटभर हासूंक मेळटालें अशोच कार्यावळी जातात ताका लांगून हाका बाजारी स्वरूप आयलां आनी ह्या उत्सवाक आतां धार्मिक म्हत्वूय उरुंकना अशें म्हणल्यार तें लटीक थारचें ना. चकचकीत भव्य, दिव्य देखावे, चित्रपट संगिताचे बोवाळ, तरणाट्यांचे मनमानी वागप हाका लागून ह्या महोत्सवाक बाजारी रूप आयलां. आयेज गणेशोत्सव मंडळांचो आकडो उपाट वाडला. आयज दरेके पाळणीत एक तरी मंडळ आसतातच. त्या सुवातांनी कान फोडपी चित्रपटांतली गितां वा गणपतीचेर आदारीत गितां लायनात. त्या गितांच्या तालाचेरूच तरणारे कार्यकर्ते बेभान जावन नाचतात. त्या वातावरणाचो आनी गणेशोत्सवाचे धर्मिकतेचो मानूय संबंद आसना, उत्सवाच्या काळांतल्यो बऱ्यो प्रथा आयज लागीं लागीं ना नपयत जावपाचे वाटेर आसात. बरे कलाकार आनी विचारवंत गोयांत ना अशें न्हय पूण उत्सवांत बरें कितेंतरी आयुकवपाची वृत्तीच ना जाल्या. हाचेर गंभीरपणान विचार करपाचो आयज वेळ आयला.

लो. टिळकान सार्वजनिक गणेशोत्सवाक दिशा दिली. पूण आयज मंडळांक दिशा दिवपी फुडारी ना, समाजसेवक ना आनी तत्वचिंतकूय ना ताका लागून कांय अपवाद सोडल्यार कितलींशींच मंडळा आपापल्या मनाप्रमाण मंडळाक आनी पर्यायान सार्वजनिक गणेशोत्सवाक दिशा दितात. आदी गणपतीची माटव उकतो आसतालो. तांका लागून रस्त्यावयल्यान येत्या-वेत्या लोकांक गणपतीचें दर्शन सहज घडटालें. पूण आता माटव बंदिस्त आसतात. गणपतीमुखार कान फोडपी गितां लायतात. ऑर्केस्ट्रा सारक्यो कार्यावळी जातात, नाटकां जातात, सिनेगीत गायन आनी नाच सर्तीय जातात. ह्या उत्सवाच्या माध्यमांतल्यान समाजप्रबोधना वांगडाच खूब कितें करपासारकें आसा. पूण कोणूच कांयच करिना हाचें वायट दिसता. लो. टिळकान सार्वजनिक गणेशोत्सवाचे जें रोपटें एकशें एकुणीस वर्सां आदी लायिल्लें ताचो आयज वड जाला. पूण ताका अपेक्षेप्रमाण





फळ आयल्यांत काय कितें? हो संशोधनाचो विशय आसा. गणेशोत्सवांतल्यान एकठांय जाल्ली वर्गणी, गणपतीक हाडटना आनी पावयतना काडिल्ल्यो मिरवणुकी ह्या मिरवणुकांवेळार जावपी अश्लील नाच, सजावट आनी रोशणायवयलो नश्टो खर्च, गणेशोत्सवांतल्यो कार्यावेळी आनी गणेशोत्सवांतले शिस्तीचो उणाव ह्या सगळ्यांच गजालींचेर आमी सगल्यांनी अंतर्मूख जावन विचार करपाची गरज आसा. भक्तांकडल्यान आदर्श गणेशोत्सव जावचे अशी सद्‌बुद्धी आनी शक्त तांका दिवची हेंच विघ्नहर्ता एकदंताकडेन मागणें.

## गणपतीच्या विसर्जनान प्रदूशण?

'गणपती गेले गावाल चैन पडेना आम्हाला' अशे म्हणत म्हणत चाळीतलीं भुरगीं आनी जाण्टी गणरायाक निरोप दितात हें जरी खरें आसलें तरी मनांतल्यान मान ते घरांतल्या सगल्यांचो आवडटो सोयरो गेलो म्हणून उदाम जाल्ले आसतात. तो येता म्हणून जितल्यो येवजण्यो तितल्योच ताच्या निरोपाच्यो येवजण्यो, देड, पाच वा इकरा दिसांचो बोवाळ केन्नासुरू जाता आनी केन्ना सोंपता हेच आमकां कळना. दीस कशे कापरासारके हुडून वतात. आनी दीस उदेता गणपती पावोयतात. कोण बांयत, कोण न्हयेंत जाल्यार कोण तळयेंत गणपती पावयनात. दर्यांत लेगीन गणपती पावोवपाची प्रथा आसा. आदी दरेका गावांत. एकाद्री बाय एकाद्री तळी आसताली. बांचत सोपणां आसताली. लोक हे बायंत, तळयेंत वा न्हयेंत गणपती पावचताले. गणपती पावोवपाची ती पारंपारीक सुवात आसताली. नळ आयले आनी बायो पुरल्यो. न्हयांनी गणपती पावोवप सुरू जालें. पुण न्हयेंत जातल्या गणेश विसर्जनाक लागून न्हयांतली अस्वच्छता वाडली. मूर्तींच्या विसर्जना वांगडाच निर्माल्य लेगीत विसर्जीत करतात. ताका लागून न्हयेंतलो कोयर वाडटा. न्हयेंतले उदक घाण जाता हे खातीर कांय लोक तळयांनी गणपती पावोवपाची ती पारंपारीक सुवात आसताली.

न्हंय, दर्या वा तळीं तशेंच बांय अशुद्ध जावची न्हय म्हणून कांय लोक बालदेंत गणेश विसर्जन करचें अशें सुचयतात जाल्यार कांय लोक विसर्जन करिनासतना घरांतूच मूर्त सांबाळून दवरप असो पर्याय सुचयतात. गणपतीचे मूर्ती वांगडा निर्माल्य विसर्जनावेळार उदकांत उडोवपाची पद्धत बदलूंक जाय एक तर त्या निर्माल्याचो वापर घरांत साऱ्याखातीर वापरु येता. विसर्जनाचे सुवातेर आशिल्ल्या निर्माल्य कलशांत निर्माल्य दवरचें. प्लास्टर ऑफ पॅरिसाच्यो मूर्ती उदकांत विर-गळनात तशेंच ताचेर रंग आशिल्ल्यान तो दोळ्यां कातीक लुकसाण करता. इतलेंच न्हय जाल्यार उदकांत आशिल्ले जीव आनी वनस्पतींचेर ह्या विखारी रंगाचो परिणाम जाता. विरगळ नाशिल्ल्यो प्लास्टर ऑफ पॅरिसाच्यो मूर्ती बायों तळी वा न्हयों पुरयतात. ह्या सगळ्या अडचणींचेर मात करपा खातीर विसर्जीत गणपती दान करात. हो उपक्रम सुरू करूं येता. गणेशभक्तांनी गणपतीच्यों मूर्ती उत्तरपुजेउपरांत कुमारांक दिवप आनी कुमारांकडल्यान जो कितें मोबदलो मेळटा तातूंतल्यान गरीब विद्यार्थ्यांक शिक्षणाखातीर लागपी चोपड्यो, पेन वा हेर वस्तू दिवप. दान केल्ल्यो मूर्ती वर्षभर सांबाळून ताका रंग मारून त्यो फुडल्या वर्सा गिरायकांक दिवप असो हो उपक्रम सुरू केल्यार कितलेशेच प्रस्न सुटावे जातले आनी बरें कार्य केल्ल्याचे पुण्य मेळटलें. गणेशभक्त हाचेर विचार करीत न्हय?

●●●



# "LIFE IS SAFE IF DRIVING IS SAFE"



## Use it to protect your head !

*Always wear a helmet while riding*

**35% Motorcyclist died on National Highways**
**65% Motorcylist died on Other Roads**

**USE ISI MARK HELMET**

*Issued in public interest by*




*Your safety is our concern*

# आत्मसोद



**अनंत अग्नी**
मडगाव - गोंय
9422439903

माचयेर उजवाड फांकता तसो एका गांवचो लोकांच्या कामाक येवपा वचपाचो वाठार नदरेक भरता. सकाळचो वेळ, पावसाळें वातावरण, आपल्या गोरवांक रानांत पावोवपी दादो दिश्टी पडटा.

दादो : (गोरवांक) हिरर्, हटट्... हटट्... चला बेगीन... पावस कसो पडटा पळयात. बेगीन तुमकां मळार पावोवन शेतांत वचूंक जाय म्हाका.

येशेदाद : (शेतांत वचपाक भायर सरला. एका खांद्यार खोरें आनी एका खांद्यार कांबळ!)

सातुमाम, आज कितें बेगीनच भायर सरलो?

दादो : सकाळच्यान म्हाका पावसाचें बरें लागना. थार नासतना पडटा. म्हूण उटून म्हणलें पयलीं गोरवांक मळार सोडया आनी मागीर शेतांत एक पासय मारून येवया. रोप वयर सरलां तें धरल्यार पुरो..

येशदाद : हय खरें तुजें. ना जाल्यार ह्या पावसान वाडिल्लें रोप जमनीर आड घालें जाल्यार मागीर वर्सभर कितें खावपाचें? (वता)

दादो : (गोरवांक) चला रे, हिरर्... हटट्.... हटट्... झडझडीत चला....
(दोगय आपापले वटेन वतात. शाळेंत वचपी कांय विद्यार्थी वाटेन वतना दिश्टी पडटात. फाटल्यान राष्ट्रीय एकचाराचें गीत संगीत.)

विद्यार्थी 1 : आज मज्जा, स्कूल बॅग बी कांय ना. शाळाय आज बेगीन सुटटली म्हण सांगलां आमकां बाईन.

विद्यार्थी 2 : आनी शाळा बेगीन सुटल्यार म्हाका मामगारे व्हरता म्हूण सांगलां म्हागे आईन.

विद्यार्थी 1 : आज आमकां च्याकलेटीय मेळटल्यो.

विद्यार्थी 2 : ए अशीं झेंडावंदना सद्दां जालीं जाल्यार आमकां सद्दां च्यॉकलेटी मेळटल्यो न्हय रें?

विद्यार्थी 1 : ए आज आमकां न्ही बाईन झेंडे आनी फुलां हाडपाक सांगल्यांत.

विद्यार्थी 2 : आनी निव्वळ युनिफॉर्म घालून टायमार शाळेंत येयात सांगल्यांत.
(वतां वतां विद्यार्थी 3 हाका साद घालतात)

विद्यार्थी 1 : केतन आमी आयले रे, शाळेंक वचपाक. तूंय यो बेगीन.





विद्यार्थी 3 : (भितरल्यान) तुमी चलात मुखार, म्हजें जावचें आसा अजून. हांव येतां फाटल्यान.

विद्यार्थी 2 : चला तर आमी बेगीन या. पावसान पयलीं भिजले पळय आमी.

विद्यार्थी 1 : केतन आमी गेले रे मुखार, तूं वबेगीन यो. (वतात)

(एक आवय आपल्या ल्हान भुरग्याक हाताक धरून शाळेंत घेवन वता. भुरग्यान रेनकॉट घाला. आवयच्या हातांत सत्री.)

आवय : बाबा शाळेंत चड मस्ती बी करनाका हां. पळय हांव तुका शाळा सुटटगीच व्हरपाक येतलीं. आनी रेब्यांत बी खेळूं नाका हां. पावस पळयला मरे कसो पडटा तो? शाळेंच्या भायर बी येनाका हां. भिजल्यार तुका थंडी जातली.

(वता. फाटल्यान देशभक्ती गितां आयकूंक येतात. कांय विद्यार्थी आपल्या शिक्षकांच्या सांगातान मिरवणूकेन वतात. कांय जाणांनी रेनकोट घाल्यात जाल्यार कांय जाणांच्या हातांत सत्री. घोशणा दितात. दुसरेवटेन राजू आनी सदा येतात.)

राजू : ह्या मास्तरांचें पडलें पाड रे, हांगा पावस पडटा आनी हे भुरग्यांक घेवन भारत माता की जय करीत भोवंतात.

सदा : आरे आज शाळेंत झेंडावंदन न्हय रे. आनी पावसाचें कितें पावस सदांच पडटा.

राजू : पावस सदांच पडटा हें खरें रे, पूण आज पावस सदांसारखो पडना.

सदा : कितें सांगता रे?

राजू : आरे हांव सांगतां तुका. आज म्हाका पावसाचीं चिन्नां बरीं लागनात.

सदा : आयच्या पावसांत वेगळें कितें दिसलें तर रे तुका?

राजू : आरे पावसाचो नेट पळय कितलो आसा तो. आनी गडगड आयक. ह्या गडगडान म्हाका कलकलो भरता. म्हाका सांग सदचेसारखो पडटा आयज सकाळच्यान पावस?

सदा : सदचेसारखो पडना खरो.

राजू : न्हंयक पळय मरे कितलें उदक भरपाक लागलां.

सदा : हें कसलें उदक रे? हें वर्साचें मरे? हे धडयेर उदक दर वर्सा येता. (चेडो येता.)

सदा : आरे चेड्या यो. हो पळय सदा कितें सांगता तो, ताका खंय आज पावसाचें बरें लागना.

चेडो : आरे खबर खरी. आमगेल्या घराकडेन कुळागरांत उदक पावलां. इतलें वयर उदक हाचेपयलीं केन्ना आयलें ना अशें सांगतालो दादो. हांवें पयलेच खेपे दादोक पावसाक भितना पळेलो आज. सक्काळीं उठून गेला तो शेतांत. (रॉबीन येता)

रॉबीन : ओ सोदा, हिंगा कितें कोत्ताय रे? थिंगा उदयागे गाडयाको उदोक खूंय पावलां





जाणा? म्हाका हिंगा येवपाक कालसांव लेगीत भिजोवचें पोडलें. कितू नाल्ल व्हावन येयल्या जाणा उदकांतू? आनी कितें कितें व्हावन येयलां म्हूण हिशेबू ना. (येशेदाद येता)

| | | |
|---|---|---|
| येशेदाद | : | आरे तुमी पळयलां पावसाचो नेट कितलो वाडला तो. म्हज्या शेतांत उदक भरलें मरे. |
| राजू | : | कितें सांगता रे येशेदाद? आनी पिकाचें कितें जालें? |
| येशेदाद | : | पीक गेलें रे पोरानो खरपोन. आतां बेगीन घरा वचून पळयतां थंय कितें परिस्थिती आसा ती. |
| सदा | : | ये आमी या रे पळोवपाक शेतांत उदक भरलां तें पळोवपाक? |
| राजू | : | कांय गरज ना. हांगा बस थोडो वेळ. आनी मागीर पळय उदकाचो जोर. आतांच खंय पावलां पळय उदक. व्हडलो म्हाका सांगतालो न्ही रे पावस सदचेसारखोच पडटा म्हू. |
| सदा | : | ए हांव मोबायलाचेर रेकोर्डींग करतां आं उदकाचें. (मोबायलाचेर रेकोर्डींग करता.) |
| दादो | : | (शेतावटेच्यान धावन येता) आरे वेड्यामळार उदक आयलें मरे, गोरवांक थंय सोडून हांव शेतांत गेलों. परतो येवन मळार पळय जाल्यार कमरभर उदक. ह्या उदकाक भिवन गोरवांनी मारली धांव रानांत. खंयचे वटेन गेलीं कोण जाणा. (सातको येता) |
| सातको | : | दादो, तुमगे घराकडेन उदक आंगणांत पावलां. बेगीन चलात घरा. चेडया तूंय चल दादोवांगडा. आनी थंय बांदार सांबाळून वचा रे. धीपरभर उदक जालां बांदार. आरे तुमकां खबर आसा? तामण्यावाडयार जुजेमारी घरांत उदक भरलां खंय. |
| रॉबीन | : | कितें सांगोता रे? तेशें जाल्यारी आमगे घोराको उदोक येयलें ना मुरे? हांव वचून चोयतां, मांय एकलली आसा घोराको. (ताकतीकेन आवय येता) |
| आवय | : | आरे सदा, राजू शाळेच्या वाटेर उदक भरलां खंय मरे. बाबू आमचो शाळेंत गेल्लो आसा. शाळा सुटली जाल्यार म्हजी वाट पळयत रावतलो. हांव आतां कितें करूं? |
| राजू | : | तूं कांयच भिनाका आमी पळयतात कितें करपाक जाता तें. |
| सदा | : | राजू म्हाका हें धडाचें लागना. न्हंयचें पात्र हुपून उदक पळय खंय पावलां. |
| राजू | : | आनी उदकाक नेट पळयात कितलो आसा तो. |
| सातको | : | हेवटेन म्हालवाड्यारय वचपाची वाट बंद जाली खंय उदकान. |
| गणेस | : | (माचयेर येता) आरे कितेंय तरी करपाक जाय मरे, परिस्थिती हाताभायर वता अशी दिसता. उदकाची पातळी सगल्या कडेन वाडत आसा. चलात बेगीन हांगा आतां वेळ वगडावन उपकारना. |
| सातको | : | हय हीं हुंवाराचीं चिन्नां दिसतात. चला बेगीन या. (हुंवाराचें उदक वाडत वता |





तशें सायकाचेर दर्शन घडटा. आनी हेवटेन सगलेकडेन धांवाधांव. भुरग्याक हाडून आवयकडेन दितात. कोण जाणटेले बायलेक खूर्चेर बसोवन धांवता जाल्यार कोण दारांत पान आनी विडो दवरून हुंवार देंवपाखातीर प्रार्थना करता. वेगवेगळें साहित्य सुरक्षीत सुवातेर व्हरपाचें काम चल्लां. सगलेकडेन बोवाळ.

गणेश : आरे तें पळयात सातूमामालें घर पडटा.
(सायकाचेर सातूमामालें घर पडटा तो देखाव.)

सातको : आरे पडलें रे सातूमामालें घर. चलात कोणय ते दिकेन धांवात रे?
(बोवाळ वाडटा. काळोख जाता. बोवाळांत सॅड संगीत वाजूंक लागता.)
(उजवाड जाता तेन्ना जाणटेलो खोपीमुखार बसला. खिन्नपणान हुंवारान पडिल्ल्या आपल्या घराकडेन पळयता. बायल भायर येता.)

आवो : अजून आनीक कितलो वेळ पडिल्ल्या घराकडेन अशे पळयत बसतले? जालें तें जालें. आतां थोडें खावन घेयात.

दादो : कितले दीस काडपाचे गो अशे? इट येयलो सामखो. दीसयभर लोकांची ही गर्दी. तांच्या त्या सहानुभुतिच्या नदरांचो, उतरांचो सगल्यांचो इट येयला म्हाका. केन्ना जाग्यार पडटलें गो सगलें?

आवो : रोकडेंच सगलें वेवस्थीत जातलें. तुमी चिंता करिनाकात. तुमची अवस्था कळटा म्हाका. कोणाकडेनय हात मुखार करप तुमच्या सभावांत ना. तुमी सदांच स्वाभिमानान जगत आयल्यात. पूण तुमी हुस्को करिनकात. आमचेंय घर परतें उबें जातलें. सरकारान उबारून दितां सांगल्यांत खंय आमचीं घरां.

दादो : म्हाका नाकात लोकांनी बांदलेलीं घरां. म्हाका रावपाचें ना भिकेच्या घरांत. जे सुवातेर म्हज्या वाडवडिलांनी घामा कश्टांनी घर उबारलें तेच सुवातेर हांव परतून एकदां घर बांदतलों. स्वताच्या घामा कश्टान, राब राब राबतालों.

आवो : हांव आसां तुमचे वांगडा. तुमी जंय रावतले, जशे रावतले तशी हांव रावतलीं. तुमचें सूख तें म्हजें सूख. ह्या घराकडेन तुमची नाळ जुळल्या ती जाणा हांव.

दादो : हय, हें म्हजें घर म्हज्या जाणटेल्यांनी बांदलेलें. ह्याच घरांत म्हजो जल्म जालो. ह्याच घराच्या कोनश्यां कोनश्यांनी म्हजें सगलें भुरगेपण गेलें. दिमकुऱ्यांनी चलतां चलतां ह्याच घरान म्हाका आपल्या पांयार स्वतंत्रपणान उबो रावंक शिकयलो. ह्याच आंगणांत खेळटां खेळटां म्हजें भुरगेपण केन्ना सोंपलें म्हाका कळ्ळेंच ना.

आवो : आतां सगल्यो यादी काडून कितें उपेग जातलो? यादी काडटले तितलो चड तुमी स्वताक त्रास करून घेतले.

दादो : म्हजो दाय हांव धा वर्साचो आसतना सोपलो. म्हज्या आवोन म्हाका ल्हानाचो व्हड केलो. केन्नाच कांयच लागूंक दिलें ना. बापूय नाशिल्लो पोर म्हूण म्हाका केन्ना लोकांकडेन भीक मागूंक लायली ना. खूब स्वाभिमानी आशिल्ली म्हजी आवो.





आवो : हय जाणा हांव. पूण जें जालें तें जालें. आतां सगलें घडून गेले उपरांत ताचें वायट धरून कितें फायदो आसा?

दादो : फायदो आसा. म्हजें सपनांतलें घर पडलें, मनाकाळजांतलें घर कोसळ्ळें. दायच्या मरणाउपरांत हें घरच म्हजें दाय जाल्लें. म्हजो दाय गेलो तेन्ना म्हाका कांयच कळूंक नासलें. आज म्हाका कळटा वियोगाचें दुख्ख. हें घर हांव आतां स्वता उबारतलों. म्हज्या कश्टांनी, म्हज्या घामांच्या बुनयादीचेर उबारतलों परतून एकदां आमचो सवंसार.

आवो : आतां चलात भितर, थोडें खावन घेयात. निदान म्हज्या समाधानाखातीर म्हूण.

दादो : पोटाचें मागीर पळोवया. पयलीं अशीच रानांत परतून एक फावट मारून येतां. पळयतां, तुजीं जनी, पिंगळो, बुधो खंयंय दिसतात जाल्यार. हुंवाराच्या आकांन्तान खंय धांवन गेली कोण जाणा. तीं मेळिल्लीं जाल्यार निदान तुका तरी थोडें समादान भोगतलें आशिल्लें. गोरवां म्हणल्यार भुरगीं तुका!

आवो : हय चेडयाक वाडयलो तितल्याच मोगान आमी तांकांय वाडयलीं. आनी आयज? तांकां कळ्ळें आसतलें आमचें घर व्हावन गेलां म्हण. आनी आमकां हांगा गोठ्यांत रावंक मेळचें म्हूण तीं जाणाजावन ना जालीं आसतलीं. (रडटा)

दादो : दोळ्यांत अशीं दुकां हाडिनाका. हांव सोदून हाडटलों गोरवांक. हांव पाड घालतलों सगलें रान. पूण तुजीं अपूरबायेचीं गोरवां तुज्या सुवादीन करतलों. चल येतां हांव.

आवो : सांबाळून चलात.

(दादो गोरवांक सोदपाक भायर सरता. हेवटेन चेडो आनीक हेर कांय जाण घराकडेन येतात. चेडयाक पैशे दितात. चेडो ते घेता तेन्ना ताचे फोटे मार-तात.)

आवो : चेड्या, कित्याक घेतलें तुवें हे ताणी दिल्ले पैशे? तुज्या दादोक तुवें हे पैशे घेतल्यात म्हण कळ्ळ्यार खूब वायट दिसतलें.

चेडो : ताका कोण सांगतलो हांवें हें घेतलां म्हूण?

आवो : ताका कोणेय सांगूं वा ना सांगूं. आपल्या मनाक पटूंक जाय न्हूं. अशे दुसऱ्यांचे पैशे घेतले जाल्यार आमी लाचार जातलीं.

चेडो : आवो, तूं ओगी बस. आमी कांयच लाचार बिचार जावचीं ना. दिवपी सगलेच तुज्या काळकुटेन येतात अशें समजनाका. मनांतल्यान दिवपी आसताले जाल्यार अशे फोटेची घेवचे नासले. घेवपी लाचार जाल्यार दिवपी आमचे परस चड लाचार, फाल्यां पेपराचेर पळय तुज्या पूताचो फोटो कसो फुडल्या पानार येता तो.

आवो : पैशे घेतना फोटो येवप हातूंत कसलें व्हडपण पोरा? हांव कांय तुजेइतलीं शिकली ना. पूण पेपराचेर फोटे येवंक बरें काम करपाक जाय इतलें हांव जाणा.





चेडो : असल्यांनीच आमी बॅकवर्ड उरल्यांत. वचत थंय आनी वचत तेन्ना स्वाभिमान आनी स्वावलंबनाचे धडे तुमचे. म्हजे हेर इश्ट आज खंय आसात पळय. तांच्या आवयबापांयनी स्वाभिमान घालो चुलींत. आज पळय तीं कितलीं सुखी आसात.

आवो : कसलें सूख रे चेड्या? मोटारसायकलीन भोंवलो आनी आंगार भांगर घालें म्हूण तुमकां दिसता सूख.

चेडो : म्हाका बेठोच बेजार करिनाका पळोवया. होच वेळ मेळटा तें घेवपाचो. तुमकां नाका जाल्यार हांव घेतलों. तूं जाणा, वयल्या वाड्यावेल्या पांडूच्या आंगणांत लेगीत हुंवाराचें उदक पावलें ना तरी ताणे सरकाराचे पैशे घेतले.

आवो : लोकांनी घेतल्यार घेवंदी. आमी नाका तशें करपाक. देवान आमकां सगलें दिलां.

चेडो : व्वा! दिलां तें सगलें देवान दिलां आनी आतां व्हेलां तें कोणे व्हेलां?

आवो : तुजेकडेन उलोवन कांयच उपेग ना. तुजे मानेर भूत बसलां सुवार्थाचें. हुंवारान आमचें सगलें व्हेलें पूण आमचो स्वाभिमान व्हांवलो ना हाचो कितलो अभिमान आशिल्लो आमकां. पूण तूं आतां अशें उलयतना आयकून म्हज्या काळजाक पीळ पडटात चेडया.

चेडो : तूं हें चड घेवन बसनाका पळोवया. तुका लागता तितलेंच तूं पळय. म्हजें हांव पळयतां.

आवो : तुका जाय तें कर. पूण दादोक वायट दिसतलें अशें कितें करनाका म्हण्टगीच जालें.

चेडो : तें हांव पळयतां. ताका कांयच कळचें ना हाची हांव कॅर घेतां. बरें म्हाका आतां वचूंक जाय. म्हाका सरपंचान मामलेदार ऑफीसांत घेवन वता म्हूण सांगलां. (वता)

आवो : देवा तूच सांबाळ रे हाका. पैशांक लागून सुवार्थान कुड्डो करनाका रे देवा म्हज्या पुताक.

(देवाक पांयां पडटा आनी खोपींत भितर वता. काळोख.)

(माची उजवाडटा तेन्ना माचयेचे एके वटेन चेडो आनी ताचे सांगाती हांची पार्टी चल्ल्या.)

सदा : कितेंय सांगू, मजा आयली. हुंवारान आमची कांय दिसांखातीर कांय जायना बरी वेवस्था केली.

रॉबीन : म्हागे मांय बोब मात्ता घोराको.

राजू : तुगेल्या घराकडेन कांय कसलेंच लुकसाण जावंक ना मरे हुंवारान. मागीर तुगे मांय बोब कित्याक मारता?

रॉबीन : आमगे घोराको उदोक येवंक ना म्हूण पिकासांवान बोब मात्ता ती. शेजरा जुजेमारी घोर मातयेचें आहलो तें पोडलें. आतां ताका सोरपोंचान नेयें घोर



चिऱ्यां बादून दिता सांगोलां. मांय बोब मात्ता आमगेलेंय घोर पोडलो जाल्यारी नेंयें घोर बोसलेको बांदून मेवटोलें आहलो म्होणोन.

सदा : आरे पळय, तुगे मांयक राजूल्या दादीक, पांडूक मेळूंक सांग. ताणे आंगणांत लेगीत उदक येनासतना पयशे घेतल्यात सरकाराचे.

राजू : भोसडेच्या, त्याच पैशांतल्यान काल हाडिल्ली व्हीस्की बरी धोकली मरे तुवें. आनी आज म्हज्या डॅडीन पैशे घेतले ते वयर काडटा?

चेडो : ये, आयकात, राजून आपल्या दादीचो परतो वारसो केलो. दादीक डॅडी खंय!

सदा : बाये धोव रे हेच्या.

रॉबीन : आरे, आहों रे. किर्ते घेवन बोहल्याय? दादी आनी डॅडी दोनूय एकूच. तुमगे देवनागरीन बोरोयल्यार दादी आनी आमगे रोमीन बोरोयल्यार डॅडी!

सदा : आतां झगडत बसतले कांय वावराक लागतले? चला फोडात बाटल्यो.

राजू : कम ऑन, चियर्स इन द नेम ऑफ ऑल व्हू सफर्ड लॉस इन द फ्लड.

सदा : बेश्टें चियर्स न्ही, थ्री चियर्स म्हण.

रॉबीन : म्हुणया, तेंच्याच कोंतार फूकोट मेवटा जाल्यार थ्रीच न्हू थ्री हॉन्ड्रेड लेगीत म्हुणया.

(उजवाड खोपीर. दादो रानांतल्यान परतो येता. आवो उदकाचो लोटो घेवन भायर येता.)

आवो : येयात, हें घेयात उदक. मात्सो विसव घेयात.

दादो : (उदक पिता)

आवो : वास लागलो गोरवांचो?

दादो : (कांयच उलयना)

आवो : हांवय पिशीच पळय. गोरवांचो पत्तो लागिल्लो जाल्यार तुमी घेवन येवचे नाशिल्ले तांकां. आसूं, मेळटलीं तीं.

(बायल भितर वता. चेडो घरा येता. दादोचें लक्ष पडिल्ल्या घराचेर)

चेडो : दादो.

दादो : (दादो भानार येता) यो चेडया. खंय वचून आयलो?

चेडो : पडिल्लें घर उबारपाखातीर यत्न करून आयलों दादो.

दादो : बरें केलें. नाय जाल्यार ह्या गोठ्यांत कितले दीस काडपाचे? तूं चिंता करिनाका. आमी रोखडीच नवें घर उबारूया.

चेडो : हय दादो. हांवंय तेंच सांगूंक सोदतालों.

दादो : एक ल्हानशेंच घर, जंय आमी सुखान रावतलीं जिवीतभर.

चेडो : दादो आमचें घर सरकारान बांदता सांगलां.

दादो : हय, पूण आमकां नाका तें सरकाराचें घर. त्या घरांत आमकां समादान मेळचें ना. आमी ल्हानशेंच घर उबारूया ह्याच सुवातेचेर.





चेडो : पूण दादो घर बांदपाक लागपी पैशे तुमी खंयच्यान हाडटले?

दादो : खंयच्यान म्हणल्यार? हांव करतलों कश्ट. जमयतलों पैशे. आनी म्हाका ह्या वावरांत तुजोय सांगात आसतलोच, हय मरे?

चेडो : दादो ताचेपरस आमकां सरकारान घर बांदून दितां सांगलां न्हय? मागीर फुकट घर मेळटना ह्यो राटावळी कित्याक करपाक जाय?

दादो : म्हज्या जाणटेल्यांनी आपल्या कर्तुबान हें घर बांदलें. ते सुवातेर परतें घर बांदतना हांवें दुसऱ्यांचो आदार घेतलो जाल्यार म्हज्या जाणटेल्यांच्या आत्म्यांक शांती लाबतली?

चेडो : दादो, तांच्या आत्म्यांक शांती लाबची ना म्हूण आमी आमचे आत्मे कित्याक म्हूण गोळाक लावचे?

दादो : चेड्या, अशें कितें उलयता तूं?

चेडो : दादो हांव जाणा, तुमकां लोकांच्या पैशांनी घर उबारपाचें ना. पूण हांव म्हणटां सरकाराच्या पैशांनी घर बांदून घेवपांत कितें वायट आसा?

दादो : वायट आसा. आरे आमच्या घराक दुसऱ्यांकडच्यान घेवपाची संवंय ना. दिवपाची परंपरा आसा त्या घराक. कोणय उपाशीं आनी गरजेवंत ह्या घराच्या हुमऱ्यावेल्यान रित्या हातांनी परतलो ना केन्नाय.

चेड : पूण आतां आमीच उपाशीं पडल्यांत ताचें कितें? अशे वेळार दुसऱ्याकडच्यान कितेंय घेतलें म्हूण परंपरेक बाधा येवची ना दादो.

दादो : ह्या घराक खूब वेळां वायट दीस पळोवचे पडल्यात. पूण ह्या घरांतल्या कोणेच केन्नाच कोणामुखार हात व्हेलोना आदाराखातीर.

चेडो : हाका भिकेचे दुवाळे म्हणटात दादो.

दादो : तूं कितेंय म्हण. पूण हांव म्हज्या मनाप्रमाणेच करतलों. म्हजें पडिल्लें घर हांवच परतें उबें करतलों.

चेडो : पूण म्हजो ह्या गजलीक विरोध आसतलो.

दादो : (शॉक बसून) कितें? कितें म्हणलें तुवें? तूं म्हाका विरोध करतलो?

चेडो : दादो, म्हाकाय फुडार आसा. कोणय बरें आनी फुकट घर बांदून दिता जाल्यार तें घेवचें अशें म्हाका दिसता.

दादो : म्हज्या पडलेल्या घराचे सुवातेक दुसऱ्या कोणाकच घर उबारूंक हांव दिवचों ना. मागीर म्हजें घर उबें जावचे पयलींच म्हाका दोळे धापचे पडले तरीय हरकत ना.

चेडो : पूण...

दादो : (तापता) आतां पूण बीण कांय ना. म्हाका आनीक कांयच आयकुपाचें ना. हो विशय हांगा बंद.

चेडो : (सडसडीत चलपाक लागता.)

दादो : पळयच तूं, म्हजें घर गेलें जायत हुवारांत व्हावन. वचूंक दिवचो ना हांव म्हजो





स्वाभिमान व्हावन.

(दादोक धाप लागता. आवो भायर येता, काळोख.)

(उजवाड, शिगम्या मांडार गांवांतले कांय जाण बसून खबरो मारतात.)

येसोदाद : अंदू शिगम्याक नाचोंक चड कोण येतशे दिसनात.

सातको : खरें तुजें, लोकांचें अजून जाग्यार पडचें आसा.

गौरेश : कितें जाग्यार पडपाचें आसा? दोनय हातांनी मेळत तशें ओडलां मरे ताणी.

गणेस : पैशांवरी पैसो आनी सामानापरी सामान.

सातको : अशें कित्याक म्हणटा रे तूं? तांचेर कितें आकांत आयलो तो तेच जाणात.

येसोदाद : तूं तोंड घेवन उलयता? तुज्या सारख्यांनीच न्हय रे लाचार केल्यात ह्या लोकांक. इलेसांवां वेळार तुमी पैशे वाटून निवडून येतात. चिकन-शिगार-सोरो सातको आमगे बरो म्हणल्यार तूं फुलता.

गौरेश : पयलीं नोट मागीर वोट ही वृत्ती करून दवरल्या हाणीं लोकांची.

गोपीदाद : खरें तुजें ल्हानसान भुरग्यांक लेगीत लायल्यात हाणी वेसनाक.

सातको : आरे येशेदाद, हांव म्हणटां सरकाराचो पैसो मेळटा जाल्यार मेळूं मरे लोकांक.

येसोदाद : सरकाराचो पैसो म्हणल्यार तुज्या बापायचो पैसो रे सातक्या? बरी न्हय ही वृत्ती, लुटपाची.

गोपीदाद : आरे तुमी आयल्यात मांडार. आनी लागले हांगा झगडपाक. वेळ काळ थळ हाचें तरी भान दवरात रे.

गणेस : गोपीदादो, ह्या सातक्यान आनी हाच्या वयल्या सगल्या राजकारण्यांनी वाट लायल्या सगली.

गोपीदाद : ताणीं वाट लायल्याच रे. पूण तुमी म्हूण कितें कमी जबाबदार आसात?

गणेस : गोपीदादो कितेंय उलयनाका. आमी रे कशे जबाबदार?

गोपीदाद : सांगतां. अंदू आमच्या गांवांत हुंवार आयलो. असो हुंवार हांवे म्हज्या आयुश्यांत केन्ना पळोवंक ना. म्हज्या वाडवडिलांनीय म्हाका केन्ना असलो हुंवार तांच्या वेळार आयिल्लो सांगूंक ना. कित्याक आयलो हो अकस्मात हुंवार?

गौरेश : पावस चड पडलो म्हूण आयलो हुंवार.

गणेस : हें... ताका क्लावड बस्ट म्हणटात.

सातको : धरणाचें उदक सोडलें खंय. म्हूण हुंवार आयलो.

गौरेश : आनी त्या दिसा हाय टायड आशिल्ल्यो खंय दर्याक. देखून न्हंयचें उदक दर्यान घेतलें ना खंय भितर.

गोपीदाद : ओगी बसात. देवान तोंड दिलां म्हूण बेश्टेच व्हावनाकात, फोंत कशी.

सातको : आमी सांगलां तें फट जाल्यार तूं सांग मरे खरें कारण

गणेस : आनी ताका आमी कशे जबाबदार तेंय सांग.

गोपीदाद : न्हंयांदेगेवयल्यो कांदळी कोणे कापल्यो रे? शेतांचेर भराव घालून जमनी कोणे





विकल्यो? वाटो आडायल्यार उदकान खंयच्यान वचचें पडलें रे? ह्या दोंगरांक कोणे बोडके केले? पावसाचें उदत जिरतलें खंयच्यान? न्हंयांची पात्रां पुरवलीं तीं निवळ करपाच्या नांवार पयशे कोणे भितर उडयले? एका काळावेल्यो ह्यो रूंद न्हंयों आयज व्हाळ जाल्यात. उलय मरे सातक्या...

गणेस : तो कितें उलयतलो? ताणे आनी तागेल्या चमच्यांनी झाडां मारून बंगले उबारले.

येशेदाद : आनी बंगले उबारले तेय सगले कायदे भिसक्यार मारून. आनी राव रे गणेस तूं व्हडलें उलयता तो ते सगले वीर थंय पैशांफाटल्यान नाचतात ते तुजेच मीत्र मरे?

गणेस : म्हजे मीत्र जाल्यारय ह्या सातक्यान तांची वाट लायल्या.

गोपीदाद : तुवें तांकां सागून पळयलें, ते करतात तें वायट म्हूण? तुवें तांकां समजायले केन्ना?

गणेस : हांव तांची भानगडच नाका म्हूण पयस रावलों.

गोपीदाद : तूं पयस रावलो म्हणटकीच तुजें काम सोंपलें. आपलें पुरतेंच चितपी तूंय स्वार्थी जालोना?

गणेस : जालों खरो.

सातको : आतां जालें तें जालें. आतां मुखार कितें करप?

येशेदाद : आतां मुखार परत केन्नाच हुंवार येवचो ना हाची काळजी घेवप.

गोपीदाद : आनी ह्या वाट चुकिल्ल्यांक बरें कितें आनी वायट कितें तें समजावन सांगप.

सातको : हय गोपीदाद.

गोपीदाद : चला तर आतांच आसा थंयच्यान आपोवन हाडात तांकां.

गणेस : आतां ह्या वेळार?

गोपीदाद : हय, बऱ्या कामाक वेळ नाका. मांडार शिगम्याच्या नमनाक सगलो गांव जाय. शिगमो हो गांवचो उत्सव. तें आमचें दायज. तें मुखार वचपाक जाय. आनी तें मुखार व्हरतले जाल्यार तांचीय उपस्थिती जायच. चल रे गणेस, गांवकारान मांडार आपयल्यात सांग तुज्या मित्रांक. (गणेस वता) येशेदाद, ते येतासर हांव करतां नमनाची तयारी

येशेदाद : हाड रे तें घुमट? सातक्या घुमट घे रे.
(नमनाची तयारी चल्ल्या. वाजप चालू आसा. सातुमाम येता.)

गोपीदाद : यो सातुमाम, तुजीच गजाल उलयताले आमी व्हद'ळ

सातुमाम : कसली बऱ्याचीच खबर मरे?

गौरेश : हय रे सातुमाम. तुज्या धाडसाची आनी स्वाभिमानाची तुस्त करताले आमी.

गोपीदाद : खरेंच सातुमाम, व्हालोर तुका. ह्या पिरायेर तुवें एकल्यान घर उबारलें. कोणाचोच आदार नासतना.





सातुमाम : हय खरें तुमचें. पूण घर उबारपांत म्हज्या पुतानय म्हाका सांगात दिलो ना हाची खंत आसा रे म्हाका

सातको : सातुमाम तूं चिंता करिनाका. आमी ताका हांगा आपोवंक गणेसाक धाडला. येतले ते हांगा. आमी तांकां बरेच सोलून काडपाचें थारायलां.

येशेदाद : हय, पूण तें कशें पद्धतीन करपाचें तें हांव आनी गोपीदाद पळयतात. तुमी ओगी बसात.

सातको : हय येशेदाद. तुमी जाणटेलेच बरे तरेन समजावंक शकतले तांकां.
(इतल्यान गणेस आनी सांगाता राजू सदा चेडो आनी रॉबीन हांका घेवन येता)

सदा : गोपीदादो आमकां कित्याक आपयल्यात हांगा?

गोपीदादो : कित्याक म्हणल्यार? आज शिगम्याक नमन घालपाक मांडार जमपाचें म्हूण विसरले?

राजू : खबर आसा दादो. पूण अंदू गांवांत हुंवार बी येयलो न्हू.

चेडो : म्हणटगीच आमकां दिसलें अंदू शिगमो कॅन्सल म्हूण.

गोपीदाद : हुंवार आयलो म्हूण शिगमो नाचपा कित्याक म्हूण बंद करप रे? आरे शिगमो ही आमची संस्कृती. सगल्यागांवांक एकठांय हाडपी तो उत्सव. कितलीं अरिश्टां आयलीं पूण आमच्या वडिलांनी चालू दवरलो हो उत्सव. आनी आमी हुंवार आयलो म्हूण गांवांक एकठांय हाडपी हो उत्सवच बंदं करप? लोकांच्या काळजांत खोशयेचे रंग भरपी हो उत्सवच बंद उडोवप? सोबता रे तुमकां हें? हो शिगमो बंद करचे सुवातेर तुमी जो शिगमो चलयला फाटले कांय म्हयने तो बंद करात.

येशेदाद : हुंवार येतगीच लोकांनी आदार म्हूण दिल्ल्या पैशांचेर लूट मारली मरे तुमी? फाल्यां त्या लोकांक आपणे दिल्ल्या पैशांचेर लोकांनी फोल्गां मारलीं म्हूण कळळयार फुडराक सरतले मरे तांचे हात लोकांच्या आदाराक? मागीर तशें जालें जाल्यार ताका कोण जबाबदार आसतलो?

राजू : येशेदाद, आमी कितें करूं तें तूं सांग मरे

येशेदाद : आरे गांवचेर एदें व्हडलें अरिश्ट आयलें. घरां, गोरवां हुंवारांत व्हावन गेलीं. पूण गांवच्या लोकांनी परिस्थितीमुखार हार मानली ना. हजारांनी लोकांनी घे म्हूण आदार दिलो. सगलेकडच्यान लोकांनी आपलो पैसो आनी हेर वस्तू दिल्यो. लेकांचीं मनां सादपाचो यत्न केलो. कितें गरज आसली रे तांकां हांगा येवन लोकांक आदार दिवपाची? आनी तुमी परिस्थितीचो गैरफायदो घेतलो हय मरे? तरणे दांडे मरे तुमी कांय पोके दाणारे?

चेडो : येशेदाद, मागीर आमचें कितें चुकलें?

येशेदाद : आरे लोकांची घरां गेलीं व्हावन. तीं परतीं उबीं जालींय बी. पडिल्लो गांव उबो





जावंक जाय. आमचो स्वाभिमान उबो जावंक जाय. तो एकदां पडलो जाल्यार परतो उबो जावंक वेळ लागतालो. तातूंत मनीसपण वतलें शेणून. तें शेणपाक फावना.

राजू : आमकां अशें कोणेच सांगलें ना मरे आजमेरेन

येशेदाद : आसूं अजून वेळ वचूंक ना. ह्या हुंवारान घरांच व्हांवलीं पूण सद्याक जो हुंवार आयला ताणे सगलो आत्मसन्मान, स्वाभिमान व्हावन वतलो म्हणपाचो आमकां हुस्को जाला. आरे, तूं हांगा फोल्गां मारता आनी थंय तुगेलो दादो सातूमाम आपल्या कश्टांनी ह्या पिरायेर आपलें घर उबारता. सोबता मरे तुका हें? मरतना सरणार घेवन वचचो ना तो तें घर. ताचे धा सरले पांच उरले. तुज्याच फुडाराची तजवीज करता तो आनी तूं...

चेडो : येशेदाद, हांव चुकलो.

सगळे : येशेदाद, आमी चुकले.

येशेदाद : सातुमामाची देख घेयात. ताणे कोणाचोच आदार घेनासतना हे पिरायेर आपलें घर उबारलें. हाकाच म्हणटात आत्मसन्मान, होच स्वाभिमान. घामाच्या बुनयादीचेर उबारिल्ल्या घराक तोखेतना पळयात ताच्या तोंडावेलें समादान. याद धरात, हुंवार येतले वतले. काळाच्या ओघांत सगलें जाग्यार पडटलें. पूण एकदां आपलें सत्व होगडावन बसले जाल्यार सदचेखातीर शेणटले. स्वाभिमान, आत्मसन्मान शेणूंक दिनाकात. मनीसपणाक केन्ना वेर वचूंक दिनाकात.

गोपीदाद : चला आतां घालया मरे नमन. करया मरे शिगम्याक सुरवात. चल रे यशेदाद घाल नमन.

येशेदाद : गांवच्या देवा, आमच्या पुरसा, अंदू आमच्या गांवांत हुंवार येयलो. कितलीशींच घरां पडलीं. मनशां व्हावन गेलीं. मोनजात ना जाली. शेतां खरपोन गेलीं. आमी सैमाकडेन वायट वागले ताचें पानवळ तुवें आमकां भोगयलें. आमकां आमची चूक कळळी. आमी हाचेफुडें सैमाचे इश्ट म्हूण वावुरतले. पोटाक उपाशीं पडले तरी आमी फाटीक बाग येवंक दिवचेना. हाचेफुडे गांवचे आमी सगले लोक सांगातान, सन्मानान जगतले. तशी आमकां शक्ती दी आनी आमचो सांबाळ कर रे देवा... आनी अंदूंचो शिगमो बरे भशेन घडोवन हाड रे देवा...

(आदीं सगले नमन घालतात आनी मागीर नाचाक सुरवात करतात. नाच रंगार येता. पडडो पडटा.)

सोंपता.





# HELP, PROTECT AND PRESERVE THE CULTURAL HERITAGE

- Goa Archives Preserves for posterity the documentary heritage of Goa's past.
- Collections in Portuguese dated back to the 15th century.
- It also has Marathi (Modi) Halekannada and a few Persian documents throwing light on the relations of the Portuguese with Marathas, Hyder Ali, Tipu, Sundas and Bhonsales of Sawantwadi etc.
- The collection also contains a few documents in Chinese and Vietnamese scripts.
- Goa Archives has its own well-equipped Preservation unit for the scientific preservation of documents.
- It also has modern microfilming, photocopying and xeroxing equipment.
- This is your Archives and you can enrich it by donating your valuable collection of Private papers.

*VISIT GOA ARCHIVES ALWAYS*




ISSUED BY :

**THE DIRECTORATE OF ARCHIVES AND ARCHAEOLOGY,**

GOVERNMENT OF GOA,

PANAJI - GOA

Phone : 2226692

# AVOID OVER SPEEDING & OVER LOADING

**Do you know?**

Every year more than three lakh road accidents are reported and over 80,000 people die in road accidents in India and 80% of accidents are due to Human Error.

**FOLLOW TRAFFIC RULES/SIGNS**

**BE SAFE AND LET OTHERS BE SAFE**

- Don't mix Drink and Drive.
- Two wheeler is for two, not for too many.
- Speed thrills but it kills.
- Life is worth living why cut too short by over speeding.
- Always wear helmet whilest driving a two wheeler.
- Don't use mobile phone when driving a vehicle.




Issued in Public Interest

**DIRECTORATE OF TRANSPORT**

Panaji-Goa

# रवीन्द्रबाबान रायटरांक फायटर केले!



**पुंडलीक ना. नायक**
वळवय - गोंय

खऱ्या अर्थान जांकां कोंकणीचे पितामह म्हणूं येता अशे रवीन्द्रबाब केळकार आमचे मदीं ना. ते आमकां अंतरल्यात अशें म्हणचे परस आमी तांकां आंतरल्यात, तांचे पासून पयस उरल्यात अशेंच म्हणप योग्य जातलें. नामनेचे तत्वज्ञ आनी ऋषीतुल्य साहित्यिक काकासायब कालेलकार मर्णाक 'परम सखा' अशें म्हणटाले. रवीन्द्रबाब तांगेले शिश्य. तेवूय त्याच मताचे आशिल्ले. म्हणटकूच रवीन्द्रबाब आपणाल्या 'परम सख्या'चे भेटीक गेल्यात अशें म्हणूं येता.

रवीन्द्रबाबांच्या निर्वाणान कोंकणीच्या एका तेजोमय अशा पर्वाचो अस्त जाला खरो. पूण ताका लागून फाटल्यान 'पोकळी' बी मात निखालस निर्माण जावंक ना. कारण रवीन्द्रबाब फकत ते जगले त्याच काळाचे लेखक नाशिल्ले ते मुखावयल्या फुडाराचेय लेखक आशिल्ले. कोंकणी साहित्या खातीर ज्या विचार आयुधांची गरज आसा तीं सगळीं तांणी निर्माण करून दवरल्यात. दुसऱ्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार कोंकणी खातीर सगळी 'कोठारां' भरून दवरल्यांत. मागीर 'पोकळी' कित्याक निर्माण जातली?

आमचो मूळ पुरूस शणै गोंयबाब ऊर्फ वामन रघुनाथ वर्देवालावलकार हांणी कोंकणी मनीस आनी गोंयकार हांकां एक मोलादीक विचार दिलो. तो विचार म्हणल्यार कर्तुबवान जावपा खातीर परकी भाशेनूच बरोवपाक जाय अशें ना. तर तुमचे कोंकणी भाशेंत बरोवनूय केदोय 'पराक्रम'










करूं येता. शणै गोंयबाबाचो हो विचार, मंत्र कसो कोंकणी भक्तांनी स्विकारलो. रवीन्द्रबाबान तो विचार खरो करून दाखयलो. तांणी कोंकणी स्विकारली. कोंकणींत बरयलें, केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो कोकणींतलो पयलो साहित्य पुरस्कार जोडलो. पद्मभूषण पदवी मेळयली. डॉक्टरेट तांकां फावो जाली आनी जाका 'भारतीय नोबॅल' पुरस्कार म्हणून वळखतात तो सर्वोच्च असो ज्ञानपीठ पुरस्कारूय तांकां लाबलो. कोंकणीकडेन एकनिष्ठ रावले. टिका, निंदा हांची पर्वा करिनासताना फाटलीं पन्नास – साठ वर्सां अखंडीतपणान वावरत रावले. ताचें हें फलित.

शणै गोंयबाब धरून सगळ्याच कोंकणी लेखकांच्या वांट्याक संघर्श आयलो. ते भायर कोंकणी हो फकत भाशेचो प्रस्न न्हय. कोंकणी हो एक 'विचार' लेगीत. म्हणून कोंकणी लेखकांक गोंयांतले सगळे सामाजीक, सांस्कृतीक प्रस्न लागले. त्या प्रस्नां पासून पयस रावपाची पळवाट तांणी सोदलिना. हे बाबतीत रवीन्द्रबाब सदांच आघाडेचेर उरले. लेखकान 'रायटरां' बरोबर 'फायटर' जावपाक जाय हो तांगेलो विचार आतां भारतीय साहित्यांत राष्ट्रीय थराचेर घोळूंक लागला. रवीन्द्रबाबांच्या जिवितांत लेखना बरोबर संघर्श आसलो. थोडो तांच्या वांट्याक आयलो. थोडो तांणी ओडून घेतलो. पूण त्या संघर्शान ते तेजवंत जाले. कोंकणीतले कांय लेखक चळवळ, आंदोलन हातूंत घुसपले आनी तांणी लेखनाचेर थोड्या अदीक प्रमाणांत आडनदर केली. पूण रवीन्द्रबाब मात आडवाद. तांणी लेखनाची फाट सोडलिना आनी ज्ञानपीठ चळवळीक वो आंदोलनांक मेळना, साहित्याकूच मेळटा.

रवीन्द्रबाबान कोंकणीत विपूल बरयलें. पूण विपूल म्हणल्यार उथळ न्हय. जें बरयलें ते मौलीक स्वरुपाचें. तांगेलो एक एक विचार लाख मोलाचो. एकदां रवीन्द्रबाबान म्हणलें, गोंयांत माडा परस खंयचीच इमारत वा वास्तू ऊंच आसपाक फावोना. माड हो आमचे उंचायेचें प्रतीक! त्या वेळार खूब








जाणांनी तांची फकांडां केलीं. पूण आयज पर्यावरणाचो आनी नगर नियोजनाचो विशय मांडटना होच विचार मुखार येता. अशेंच एकदां रवीन्द्रबाबान भारत-पाकिस्तान संबंदांविशीं बरयतना म्हणलें,

भारतांत तशेंच पाकिस्तानांत भुरग्यांक पाठ्यपुस्तकांनी कितें शिकयतात? शेजारचो देश दुस्मान अशी जर शिकवण तुमी तांकां शाळांनी दितात आसत जाल्यार राष्ट्रीय थराचेर भारत-पाक 'इश्टागती'च्यो गजाली करून कसलोच अर्थ ना. रवीन्द्रबाब फकत लेखक नाशिल्ले. चिंतक आशिल्ले. ते केदे तांकीचे चिंतक म्हणटात ताची देख आमकां हालींच पळोवपाक मेळ्ळी. ज्ञानपीठ पुरस्कार भेटोवपाचो समारंभ गोंयांत कला अकादेमीच्या सभाघरांत जालो. कोंकणी भक्तांच्या जिवितांतलो हो एक खूब म्हत्वाचो खीण, दोळ्यांनी खोशयेचीं दुकां हाडून आमी तो 'उत्सव' पळयलो आनी तोखेलो. रवीन्द्रबाबांचें भाशण तांच्याच इश्टान श्री. नामवर सिंह हांणी वाचून दाखयलें. रवीन्द्रबाबांनी आपणाल्या भाषणांत म्हणिल्लें, इंग्लिश भाशेक लागून ह्या देशांत मुळां कातरिल्ले बॉन्साय लेखक, बॉन्साय बुदवंत तयार केल्यात. देशी भाशांचो सांगात सोडिल्ल्यान हें अशें घडलां. हो विचार, समारंभाच्यो मुखेल अतिथी, भारतीय लोकसभेच्यो अध्यक्षा श्रीमती मीरा कुमारी हांकां इतको मानवलो - तांणी आपणालें छापील भाशण सोंपोवन ह्या विचाराचो पुरस्कार करपी आपणालें उलोवप केलें, जें मूळ भाशण परस व्हड जालें. रवींन्द्रबाब केदे उंचायेचो लेखक आनी चिंतक म्हणपाचें सगळ्यांक त्याच खिणाक दिसून आयलें.

रवीन्द्रबाबांचें कोंकणी साहित्याक मोलादिक योगदान आसाच. पूण सगळ्यांत व्हड योगदान जर कितें आसा जाल्यार हांणी आपणाले फाटल्यान आपलो विचार मुखार व्हरपी नवी पिळगी घडयली. जी तांचे सारखीच रायटरा बरोबर फायटराची भूमिका वठयता.

(सुनापरान्तातल्यान)





# तातो

आमी जल्म घेनात. जल्माक येतात. जल्माक येतकच मनशाक नांवूय मेळटा. दुसऱ्यांनी दवरिल्लें. तशें म्हजेंय नांव आशिल्लें. पूण जाण येवंक लागतकच हांवें एक नांव घेतिल्लें – 'नानू रवीन्द्र केळेकार'. णव–धा वर्सांचें जायसर हेंच नांव म्हज्या शाळेंतल्या पुस्तकांचेर, चोपड्यांचेर आसचें. तातोन म्हणचें, आमकां सगळ्यांक एक आवय, एक बापूय, तुकाच एकल्याक दोन दोन आवयो, दोन दोन बापूय श्रीकृष्णा भाशेन' हांव 'नानू रवीन्द्र केळेकार' आशिल्लें तेन्नाची एक गजाल –

आमच्या घराच्या मागीर दारांत एक व्हडली पोपाय आशिल्ली. ती एके वटेन मुळ्यां आयिल्ली. आनी घराच्या पांख्या वटेन लकिल्ली. एक दीस बाईन (आजयेन) म्हणलें, 'पावसा पयलीं पोपाय मारून घेवंक जाय, ना जाल्यार नळे वतले.' नळे वतले म्हूण पयलींच येदी व्हडली पोपाय मारप? हांव कागाळ घेवन सरळ 'हाय कमांडा' म्हऱ्यांत गेलें. जेवता आसतना तातोन माँक सांगलें तें म्हज्या कानार पडलें, 'पोपाय मारप ना, नानूक वायट दिसतलें...' मुखार रोखडीच, पयल्याच पावसाक, पोपाय पांख्यार कोंसळ्ळी आनी बाईन म्हणलें, 'चड अपुर्बायो जाल्यात तुज्यो...' म्हाका चोरा वरी जालें.

'केळीचें घडावलें काडटना केळ शी मारप? ती आनीक घड दिवचिना म्हूण? दुश्ट न्हय आमी?' – हांवें विचारचें, आनी तातोन म्हणचें, 'हय, बरोबर तुजें!'

'भुरगे आसलें म्हूण कितें जालें, ताकाय एक व्यक्तीमत्व आसता. भुरगीं ल्हान आकाराचीं जाणटीं न्हय...' तातोन म्हणिल्लें फाटीं एक दीस. आनी मनांतल्या मनांत हांवें म्हजें भुरगेपण चाळून पळेल्लें. 'ओग्गी राव, कांय वेळ रडटलें, मागीर तें न्हिदतकच ल्हवू भायर सर...' 'ताचें मत कितें विचारता? आसल्यांनी माथ्यार बसतलें आं


**माधवी सरदेसाय**
मडगांव- गोंय








तें तुज्या....' - असलें म्हज्या भुरगेपणांत केन्ना घडलें ना. कित्याक, म्हजी वाड जाताली त्या कुटुंबांत म्हाका 'व्यक्तीमत्व आशिल्लें.'

हाका लागून, जाणटेल्यांक अडचणी जाल्योच आसतल्यो, पूण हांव मात कितल्योश्यो गजाली सहजतायेन, अणभवांतल्यान शिकूंक पावलें. तापोवणी किंळच्यो, मार-धपट नास्तना.

ल्हानपणांत वांयग्यांचें भर्त म्हाका आवड नाशिल्लें. ताटार वाडिल्लें भर्त एक दीस हांवें माँक काडूंक सांगलें तेन्ना तातोन म्हणलें, 'भर्त आवडना? आनी, आमी भर्त खातात तीं कितें पिशीं?' विचित्र लॉजीक पळोवंक गेल्यार. पूण म्हाका ती पटली! एख दीस इल्लेंशें भर्त चाखून पळेलें आनी कांय तेंपान आवडीन खावंकूय लागलें...

म्हज्या भुरगेपणांत तातो घरांत आसतालो तेन्ना चडसो वाचतालो, बरयतालो. पूण म्हजे खातीर ताचे कडेन वेळ आसतालोच आसतालो. 'आश्रम भजनावली' तलीं भजनां, कोंकणी मराठी हिंदी कविता तातोन म्हाका म्हणून / वाचून दाखोवच्यो. कितल्योश्यो अजून म्हाका पाठ आसात. मराठी, हिंदी, इंग्लीश काणयो वाचून दाखोवच्यो. (तेन्ना कोंकणी काणयांचीं दोन-तिनूच पुस्तकां आशिल्लीं.) ताचो जपानाक गेल्लां तेन्ना म्हजे खातीर एक सुंदर चित्रां आशिल्लें जपानी लोककथांचें पुस्तक घेवन आयिल्लो. दर दिसा, सांजचे प्रार्थने पयलीं एक काणी वाचुया, तातोन सांगलें. हांवें मागीर सांज जावपाची वाट पळोवप... निमाणें, एकूच काणी उरली तेन्ना पुस्तक आतां सोंपतलें म्हूण म्हाका वायट वायट दिसलें. तातोक तशें सांगलें तेन्ना ताणें म्हणलें, 'तशें जाल्यार निमाणी काणी वाचपूच ना. मागीर पुस्तक केन्ना सोंपचेंच ना!' कितलो सादो उपाय!

उपरांत म्हजें हांवूंच वाचूंक शिकलें. इसापनीती, पंचतंत्र, रुमीच्यो नीतीकथा बी असली पुस्तकां तातोन म्हाका मुंबयच्यान बी हाडचीं. हांवें तीं वाचचींच, पूण म्हजो खरेलो आवडो आसतालो राक्षस आनी भुतां वटेन. म्हाड्डोळा देसायाल्या दुकानार असलीं पुस्तकां आठ आणे, बारा आणे, रुपया बी मोलान मेळटालीं. तातोन केन्नाय म्हाका पांच-धा रुपया दिवप आनी हांवें







कोणाय बराबर दुकानार वचून एकशिंगी राक्षस, एका भुताची गोष्ट, सारकेलीं पुस्तकां घेवन येवन भक लागिल्ले भशेन तीं वाचून काडप. 'हें रद्दी साहित्य' अशें तातोन म्हाका केन्ना म्हणलें ना. म्हाकाच तें उपरांत कळ्ळें.

कोणें तरी म्हणलां. तातो कडल्यान हे भाशेन हांव कितलेशेंच शिकलां. सहजतायेन ल्हान ल्हान गजालींतल्यान. चारित्र्य, मौलीकताय, व्हडपण, येस् - हे तरेच्यो 'व्हडल्यो व्हडल्यो' गजाली खंय सोदप तें चडशें तातो बराबर रावन हांव 'शिकलां.'

तातोचें आनी माँचें नातें म्हणल्यार सहजीवनाची आगळी वेगळी देख एक. झगडीं तंटे, एकामेकांचीं उणीं काडून जाल्ले वाद - म्हज्या ल्हानपणांत वा उपरांतूय तातो माँचे बाबतींत केन्ना पळेले नात. केन्ना केन्ना दीसभर घरा भायर सारून तातोन घरा परतुचें तेन्ना भितर सरतनाच 'नाऽन म्हूण उलो मारचो.' हांवें धांवत तातो म्हऱ्यांत येवचें. फाटल्यान माँय येताले. मागीर सदरो - लेंगो खुंट्याळ्याक लावन लुंगी - बानयन चडोवन तातोन कदेलार बसचें. म्हाका मांडयेर घेवचें आनी दीसभर कितें कितें जालें तें माँक वाचून दाखोवचें.

जाणटेपणांत माँ इल्लें इल्लें करून विसराये सुवादीन जालें तेन्ना अशें वाचून दाखोवप ल्हवू ल्हवू उणें जायत गेलें आनी उपरांत बंद जालें. पूण तरी, जाग, कोंकण टायम्स, जैत, बिम्ब, सुनापरान्त बी नेमाळीं येतकच, आपणें पळोवन जातकच तातोन तीं माँच्या हातांत दिवचीं आनी मॉन तीं कांय वेळ उकतीं करून पळोवन कुशीक दवरचीं. तातोन मागीर मॉ बराबर टी. व्ही. म्हऱ्यांत वचून बसून बातम्यो, हेवटेन तेवटेनचे कांय प्रोग्राम पळोवचे - 'नवे तरेचो सांगात....

तातो म्हऱ्यांत कितल्याश्या जाणांक मेळूंक आयिल्लें हांवें पळेल्यात. 'मेळूंक येवं?' म्हूण कोणेंय फोन करून विचारलां तेन्ना 'नाका, म्हाका वेळ ना' अशें तातोन म्हणिल्लें हांवें केन्ना आयकूंक ना. 'यो. तुका जाय तेन्ना... चोवीस वरां बेकार आसतां तसो चोवीस वरां कामात आसतां....' - तातोची जाप. कोणूय म्हऱ्यांत येवन बसतकच आपलेपणान ताची वासपूस घेवप आनी उलयता उलयतां अचळय कितें तरी नवें दिवप. खासा म्हाकाच कितलेशें खेपे हो अणभव आयलां. तातो म्हऱ्यांत बसून घरा परतताना हांव सदां ताजें टवटवीत जावन ल्हव पावलांनी चलत गेलां. मनशाची दानत केदी व्हड आसूं येता ताचो दिश्टावो असल्या वेळार म्हाका घडलो. ●●●





# DIRECTORATE OF FISHERES

GOVT. OF GOA

PANAJI – GOA

## AIMS AT

Increasing the Fish Production, improving fisheries infrastructure for Capture and culture Fisheries.

Protection of Estuarine and coastal water with view to conserve the resources

Financial Support both for Mechanising the vessels and motorizing the crafts.

As an welfare measure Insurance cover to the active fishermen under Group Insurance Promoting Fresh Water Aquaculture.

TO ACHIEVE THIS, FOLLOWING SCHEMES ARE IMPLEMENTED BY THE DEPARTMENT

1. Financial assistance for purchase of inboard/outboard motor.
2. Financial assistance for sea gill nets.
3. Financial assistance for construction / purchase of new wooden FRP canoe.
4. Subsidy on purchase of fishing requisites such as monofilament and Nylon twine.
5. Financial assistance for purchase of insulated boxes to Fisherperson engaged in selling the fish and fishing at the Sea.
6. Financial assistance for development of shrimp farms at the rate of Rs. 30,000/- per hector.
7. Financial assistance for development of fresh water farms at the rate of Rs. 40,000/-
8. Group insurance Scheme under this scheme. The dependent of the insured Fishermen will receive an amount of Rs. 1 lakh in the event of death and permanent / total disability due to accident and Rs. 50,000/- on partial disability.
9. General insurance Scheme for Fishermen. Under this Scheme insured Fishermen will received on death due to accident Rs. 75,000/- permanent / total disability due to accident Rs. 75,000/- partial disability due to accident Rs. 37,000/- and 30,000/- due to natural death.
10. Reimbursement of Excise duty on diesel purchased by the boat owners through Co-Op. Society.
11. Financial assistance to Fishermen for construction of houses.
12. stipends for various fisheries training course.
13. Savings cum relief scheme.

## SEA IS YOUR WEALTH
## HELP CONSERVE YOUR WEALTH

BE AWARE

Under the provisions of Indian Fisheries Act 1897. Destruction of Fish by explosives and poisoning of waters in inland water and on coast in punishable with imprisonment for a term which may extend to two months.

# उतरां जाल्यांत मोनीं



**मुकेश थळी**
फोंडे - गोंय

ताती गेलो.... एक 'व्हॅक्यूम'सो जाला. मन, तकली, काळीज भेरेल्ले भशेन जाल्यांत. तातो फाटले कांय दीस खुबूच दुयेंत आशिल्लो. ज्ञानपीठ पुरस्कार घेतला तेन्ना लेगीत स्टेजीर ताका खूब त्रास जातालो. ती खांक, तो घुसमटमार पळोवं नजो जातालो. ताचें निमाणचें बरप म्हणचे हिंदी समिक्षक नामवर सिंहान वाचिल्लें तें भाशण. तें भाशण म्हणचेच एक सुंदर वैचारीक आनी ललीत निबंद. सभापती मीरा कुमार हांणीं तें भाशण आयकून उत्स्फूर्तपणान लिखीत भाशण जातकच आपले विचार मेकळेपणान मांडिल्ले.



कोंकणी हें केळेकरांचें 'फॅड' अशें म्हणपाची चाल एका तेंपार आशिल्ली. सुमंत, गुरूनाथ आनी सगल्यांत वयर रवीन्द्रबाब. आयुश्यभर रवीन्द्रबाबान एकूच सपन आंवडेलें. ते म्हणजे कोंकणी. कोंकणीची जैतां पळेतना तांचें काळीज भरून येवचें.

म्हजे सारके कितलेशेच जाण ह्या साहित्यतपस्वी विचारवंत पितामह म्हालगड्याच्या आशिर्वादान लेखक हें विरूद लावंक शकले. तातोन आमकां स्पशटतांय दिली. आमचें प्राधान्य कितें तें सांगलें. तें सांगतूच आशिल्ले. बरयत आशिल्ले. चिंतीत आशिल्ले. आमकां कुटलायत आशिल्ले. धोंगांपोंगां दाखयत आशिल्ले. समजायत आशिल्ले.

आयज हो घण, हो तुतयो थांबलो.

रवीन्द्रबाबाच्या साहित्यांत आनी तांचे बरपांवळीचे शैलींत जें सादेपण ाशिल्लें तेंच तांच्या वागपांत आशिल्लें. सामकें निर्मळ अशें सादेपण. ल्हान भुरग्याचें काळीज. हालींच हॉस्पिटलांत गेल्ले कडेन तांणी म्हजेर हात दवरलो.

ऑक्सिजन लायिल्लो आसतना आनी त्रास जाता आसतनाय तांणी हे भशेन हडकिलो. पूत गिरीश कोणाक तरी भुरग्याक मजतीक घेवन आयलो. तो भुरगो दनपारां जेवतलो खंय हो प्रस्न





तातोन दोनदां विचारलो.

सगली चिंता कित्याक रे तातो? गिरीशान आनी हाजीर आशिल्ल्यांनी विचारलें.

बारीकसारीक गजालीं विशीं चिंतपी हो मनीस.

आकाशवाणी खातीर दांडी मार्चा संबंदान हांव एक दीस दांगेर रिकॉर्डींग करपाक गेल्लों. कितलो वेळ जालो विजूच येना. रिकॉर्डरांत बॅटऱ्यो उण्यो आशिल्ल्यो.

– तातो, बॅटऱ्यो घेवन येतां हांव. गाड्या वयल्यान.

तातो ताबडतोब बॅटरेदिवो खाली केलो आनी दोनूय बॅटऱ्यो घालू म्हूण सांगलें, आनीक दोन जाय आशिल्ल्यो.

– तातो, तीन मिनटांनी बॅटऱ्यो घेवन येतां.

– पयशे आसात मरे?

हें वाक्य तातोन इतल्यान सादेपणान मेकळेपणान विचारलें की म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां आयलीं.

नातू तोबू गेलो तेन्ना तातोक पळोवं नजो जाल्लें.

– माई येवंना रे?

तोबूची अपुरबाय करपी म्हजी आवय त्या खिणाक 'शॉक' सहन जायना म्हूण येवंक नाशिल्ली.

ती दुसऱ्या दिसा गेली.

तातो, माईलो चलो आयला... रे... हांव वतकच धाकटुलो तोबू धांवन आज्याचे कुडींत वतालो.

तातो हांसत येतालो. तुका तो आवय वयल्यान वळखता रे. माईन ताची खूब अपुरबाय केल्या. सगलीं लाडवांचीं फोलिणां ती तोबू खातीर उकतीं दवरताली. पुराय मेकळीक.

म्हजो इश्ट इंजनेर पंकज नाडकर्णी दुबय सावन वर्साक एकदां सुटयेंत येतकच सगल्या देवळांनी वचून जातकच म्हाका फोन करी.

– मुकेश, प्रियोळा मरे?

– हांव कित्याक रे तुका?

– तूं आसतकच बरें जाता.

फाटले खेपे पंकजान सदचे भशेन तातोक एक सुंदर इतिहासाचें पुस्तक हाडिल्लें.

ल्हान निरागस काळजाच्या भुरग्या भशेन ताचें बेगडी कवर उकतें केलें. कितलोसोच वेळ तो तें पुस्तक सांसपीत आशिल्लो. तें कवर सांसपीत आशिल्लो.

पंकज ऑक्टोबरांत येतलो. हो लेख बरयतनाच ताणें म्हाका तातो गेलो म्हूण फोन करून म्हजें सांत्वन केलें. पंकज येतलो पूण हे खेपे प्रियोळाच्या देवळांत खेप आसची ना. पंकजा सारके कितलेशेच जाण म्हाका घेवन तातोगेर वताले. तातोचे विद्वत्तेचो व्यासंगाचो एक अबोल अव्यक्त असो दरारो आनी तेज संवकळ नाशिल्ल्यांक जाणवतालो. तातो मात हांसत हांसत सगल्यां कडेन सहजतायेन खबरो मारी.

तातोल्या घरांत कितले लोक येताले, कोण येताले, केन्ना येताले, कोण जेवताले, कोण रावताले हांचो हिशोब ह्या घरान केन्नाच दवरलोना. चिमटीभर आसतना हांव तांच्या मेजार बाकिबाब तातो







कडेन खबरो मारतना जेवलां. आनी कांय वरां आदीं नामवर सिंह आपल्या इश्टा वांगडा म्हणचे तातो कडेन खबरी करतनाय जेवलां.

दिलीप बोरकाराल्या उतरांची याद जाता. आपल्या एका पुस्तकांत तो बरयता – कॉलेजीत आसतना हांव तातोगेर वतालों. खबरो मारून मारून गणयतालो. दनपार जातकच येतां येतां आं म्हणटालों. राव रे जेवन वच, गोदूबाय म्हणटालें.

हांव रावतालों. सदचे भशेन जेवण सुट्टालें.

दिलीपबाब फकत गोट्यां खातीर थंय वतालो? विशुद्ध अशें प्रेम थंय मेळटालें. म्हणुनूच तो आनी आमचे सारके वखवखे थंय पडिल्लेच आसताले. शीला कोळंबकार गोंयांत येतकच प्रियोळच्या देवळांत गेले बगर मुंबय वचनासलें.

तातोच्या साहित्याचेर अभ्याससत्रां जावंक जाय. परिसंवाद जावंक जाय. तातोचें साहित्य हिंदी, इंग्लीश आनी जगांतल्या सगल्या भाशांनी पावंक जाय. अनुवाद जावंक जाय. घाम रगत उसपून आनी कश्ट सोंसून कोंकणीचें जें धन तातोन आमकां दिलां, जें किर्तें आमच्या पोशांत घालां ताचो सांबाळ आमी करूंक जाय. तातोन दोंगरांतल्यान कांट्यांतल्यान वाट तयार करून दिल्या ते वाटेर आमी चलत रावंक जाय.

विसव घेनासतना. हें 'मिशन' मुखार व्हरपी माधवीबायक तेंको आनी फाटबळ दिवंक जाय. हींच तातोक खरी आर्गां.








# DEPARTMENT OF LEGAL METROLOGY

## PANAJI - GOA

### CONSUMER PROTECTION THROUGH LEGAL METROLOGY DEPARTMENT

The Department of Legal Metrology carries out the following statutory functions :

i) Registration of weight and measures who intends to commence or carry on the use of any weight or measure in any transaction or for industrial production or for protection.

ii) Initial and periodical verification of weights, measures, weighing and measuring instruments.

iii) Inspection and surprise visits to the traders premises Inspections under the Weights & Measures (Enforcement) Act 1985.

iv) Joints raids and weekly market inspections, and launching of prosecutions against the offenders.

v) Metrological control on Packaged Commodities, including inspections and surprises visits for the same.

vi) Metrological control on Manufacturers / Packers of the packaged commodities, including the inspections and surprise visits to check the net content at manufacturers / retailers premises.

vii) Control on Manufacture / Repair / Sale of weights, measures, weighing and measuring instruments by issue of licences.

viii) Launching prosecutions against offenders, compounding the offences and filing cases in the Court of Law.

For any grievances, please approach - "The Controller, Legal Metrology, Above Caf'e Shanbhag, Rua Diogo de Couto Road, Near Municipal Garden, Panaji , Goa - Tel. No. 2426432. E-mail Address : con-lega.goa@nic.in" or approach (1) The Asst. Controllers of Legal Metrology, at Zonal Offices at Mapusa / Panaji / Margao / Panaji H. O. and / or the Inspectors at their respective Inspectorial Units at - Mapusa / Pernem / Bicholim / Panaji / Ponda / Margao / Vasco / Curchorem / Sanguem.

# मणिपाल 'पै' घराण्याच्या कर्तूबाची देख



**मधुसुदस जोशी**
पणजी - गोंय
9423059036

वैजकी मळार नामनां जोडिल्ल्या ह्या वाठांरा विषयी हांव आयकून आशिल्लो. मणिपाल फार्मसी कॉलेजांत शिक्षकांक ट्रेनिंग मेळपाचे संबंधात प्रोग्राम आसा अशें जेन्नां कळ्ळें तेन्नां हांवेन बेगोबेग अर्ज भरून धाडलो. म्हजी निवड जाय मेरेन हांवेन मणिपाल संबधात खासा म्हयती मेळोंवक नाशिल्ली. उपरांतमात मणिपालाक गेल्ल्या मनशाकडल्यान हांवेन जाता तितली म्हायती घेतली.

मणिपालाक वचपाखातीर हांवेन खाशेली तयारी करूंक नाशिल्ली. हांव घराभायर सरता तेन्ना म्हांका लागपी चडश्यो गजाली पुंजवपाचे आनि बॅगात भरपाचे काम म्हजी घरकान्न करता. हांव फकत ताचेर नदर भोंवडायता. घोवाक किदें जाय हाचें गिन्यान घोवापरस बायलेक चड आसता हो म्हजो अणभव. खरें म्हळ्यार मणिपाल कोंकणी वाठांरात आसपावता ही एक म्हजे नदरेन खोशालकायेची गजाल आशिल्ली. थंयच्या आनी आमच्या जीणेत बऱ्योच गजाली सारख्यो आशिल्ल्यान हरशी 'कशें जातले?' ही धुकधुक मनात आसता ती इल्ली लेगीत नाशिल्ली. खासाकरून जेवणांचे बाबतीत.

राती सातांक हावेन एका प्रायवेट गाडयेन मणिपालाक वचपाचे थारांयलें. वांगडा म्हजे आणि दोन इश्ट सांगाताक आशिल्ले. गाडी साडे आठांक फोणेच्यान सुटली. मात्सो दोळो लागलो आणि पोळें चेक पोस्टार गाडी थारतकीच जाग आयली. पिशव्यो हालोवन चेकींग जावपाक लागलें. चेकिंग करपी मनीस सकयल देवले. 'पाखले गेले पुण उंडे उल्ल्या' म्हगेल्या इश्टान मारिल्ल्यान थोमण्यार आमी बरेंच हासले. कारवाराक जेवल्या उपरांत बस फुडल्या मार्गाक लागली. जाग आयली ती बद्द मणिपाल. हॉस्पीटल, हॉस्पीटल अशें क्लिनर आडूडूपाक लागलो. आमकांक 'रमण' ब्लॉकांत रावपाची वेवस्था आशिल्ली. बसस्टँडार देवल्या उपरांत फातोडेर चार वरांचेर एका रिक्शावल्याक उठयलो. हॉस्टेलाचे दार बंद आशिल्ले. बेल मारून वॉचमॅनाक उठयलो. एका मनशान आमका कुड उक्ती करून दिली. सुमार जाग्रणाचे आमी सामान तशेंच दवरून खाटीर आडवे जाले जाग आयली ती साडेसाताक.

सकाळची सगळी कामां सोपवोन आमी कॉलेजांत वचपाक भायर सरले. साडेआंठाक कॉलेजांत पावले. रजिस्ट्रेशन करून आमचे साहित्य घेतलें. ब्रेकफास्ट खातीर येजमानांनी कॅन्टीनात तजवीतज केल्ली. उपमा शीरो, वडाचटणी कॉफी खाशेले दक्षिण भारतांतल्या खांवपाच्यो गजाली खावपाक मेळ्ळ्यो. मात्शे 'सेटल' जाल्या भाशेन जाले.

कार्यक्रमाचे उक्तावणाचो सुवाळो श्रीकृष्णराव आनि श्री. पै हांगेल्या उपस्थितीत जालो.





श्रीकृष्णराव सुमार चाळीस वर्सा वैजकी शिक्षणा संबंधात वावुरताले. आपल्या उलोवपांत ताणी एकदोन गजाली सांगल्यो तांतून शिक्षकान आपणाले ज्ञान ते, दिवपाची पद्धत सदांच करवत वा कोयतेक धार काडता ते पद्धतीन दवरूंक जाय हाचे उदाहरणा सयत सांगले. औपचारिक उक्तावणां उपरांत कार्यक्रमांत वाटो घेवपी लोकांमदी वळख करपाचो कार्यक्रम जालो. येजमनानी हे वेळार वाटो घेवप्यानी उभे रावून आपणालो परिचय दिवचे प्रथेक फांटो फोडलो. दोग जणांची जोडी करून काय वेळां भितर एकमेकाकडे उलोवपचि संद दिली. उपरतां हे जोडये मदल्या एकामेकान दुसऱ्याची वळख घडोवन हाडली. अशें तरेन विंगड विंगड वाठांरात जमिल्ल्या मदी एकातरी मनशाक सारखें वळखप शक्य जाले.

कार्यक्रम सरकारी दुडवांतल्यान चलपाचो आशिल्लो. दुड येतात ते परस खर्च चड आसता हो आयज मेरेनचो अणभव. आयोजकान दर मनशाफांटल्यान दर दिसा शंभर रुपये खर्च करू येतात. जातुंतले सुमार चाळीस रुपया रावपाचो खर्च म्हण वजा जावपाचे आशिल्ली. येजमानान जर जेवण खाण दिवपाचे थारांयले जाल्यार मनशां फाटल्यान पासश्ट ते सत्तर रुपया खर्च येवपाची शक्यता आशिल्ली तेन्ना साठ रुपया 'कॅश' जाय वा जेवणांची तजवीज करची? असो प्रश्न ताणी वाटो घेवपी लोका मुखार दवरलो. साठ रुपया कॅश घेवपाचो थारोवन तो प्रश्न थंय सोपयलो.

दनपारां जेवणां उपरांत कार्यक्रमाक सुरवात जाली. शिकवपाची आनि शिकपाची मुखेल आंगां खंयची हे विशयाचेर श्री. गुरू माधवराव बरे उलयले. शिक्षणांत बुद्धी खंयचेतरेची जाय? काय वेळार फक्त, फाटले यांद जांवपाक जाय, कांय वेळार कांय गोष्टी समजुपाक जाय, जाल्यार कांय वेळार प्रश्न सोडपांची तांक तुमच्या बुद्धीत जाय. तशेंच काय गजाली करताना व्हडले कसब लागता का काय वेळार ते लागना. एक मनीस दुसऱ्याकडे उलयताना ताचे घडिल्ल्या गजालीचेर लक्ष वचूंक जाय. ताचेर प्रतिक्रीया उमटूंक जाय. हें जाल्या उपरांत ते घडिल्या गजालीत तो खोलांयेन पावलो जाल्यार ताका सगळ्यांत उचेल्या पांवड्या वयले Communication सादप शक्य आसता.

उपरांतच्या भाशणात श्री. रामा हांव हांणी शिकवप कशें आसचे आनी कशें आशचें न्ही हाचेर इल्लो उजवाड घालो. फक्त उमत्या घागरेर उदक ओतयल्या भाशेन जर शिकयले जाल्यार तुमी तुमचो रोल सारखो करना. बरो शिक्षक 'क्रियेटीव्ह' आसता जो उपेगी आनि जांतून नविदाद आसा ते लोकां मुखार मांडता अशे मत श्री. रामा राव हांणीं परगटायलें. सगळ्या तरेच्या शिक्षणांत शिक्षकाचो Involvement महत्त्वाचो अशे ताणी स्पश्ट करून सांगले. त्या दिसाचे कार्यक्रम सोपोवन आमी हॉस्टेलार परतले.

शेजारा एका रुमात जळगांवचो चौधरी रावतालो. हांव रुमात एकलोच आशिल्ल्यान ताणें म्हज्या रुमांत येवपाची इत्सा परगटायली.कोणाचो संगत चड करून भायल्याचो मेळ्ळ्यार बरो अशें येवजून हांवेंन ताका आपयलो.

हॉस्टेलांत रावता तेन्ना काय अडचणी येता. त्यो येतल्योच अशे धरून आमी चलताले. सांजे उडपीक वचून कांय खरेदी करपाचे थारायलें. मणिपालच्यान उडपीक वचपाक खूब बशी आसतात. भाशेची व्हडली अडचण नाशिल्ली. कांय दुकानदारांक कोंकणी समजताली. आमचे उलवप समजताले. 'प्लॉस्टीक दोरी, हँगर, साबण असले वस्तू घेतल्यो. एका हॉटेलांत जेवन मणिपालाक परतले. राती घरां फोन केलो. गरमेक लागून आंग चिकचिकीत जाल्ले थंड उदकान न्हाल्या उपरांत खाटिर आडवो जालो. न्हिद केन्ना लागली तें समजलेंच ना.





सकाळीं सदचे परस मात्शी उसरांच जाग आयली दोन दिसाचे धुवपाचें जाल्ले कपडे एकठांय करून तोंड धुल्या उपरांत हांवेन कपड्याक साबू घातलो. हॉस्टेलाची जीण तशी म्हाका सवकळीच. साडेसात ते आठ न्हावपा धुवपाची तांणी आशिल्ल्यान घडये लायनी रावपाचे प्रसंग येतालो. न्हावन कपडे धूवन ते सुकत घाले. मणिपालांतलो आमचो दुसरो दिस. सकाळी काय कुडीतल्यान घड्याळाचे गजर आयकूक येताले. म्हाकां म्हजे विद्यार्थी दशेतले दीस याद जाले. सकाळी चारसाडेचारांक उठपाचो म्हजो नेम आसतलो. आनी सकळी उठपी आमी तेन्ना एक दोग आसताले. म्हज्या कपाटार इश्ट, तांका केन्ना उठवपाचे ते बरोबन दवरताले. म्हळ्यार हांव तांचो 'आलार्म' जातालो.

कपडे बी करून आमी कॉलेजांत वचपाक भायर सरले. मणिपाल तशी अर्वील्ली वसणूक. झांडां रोयिल्ली ती सूमार वाडिल्ली. सकाळचो थंडसार वारो व्हावतालो. मेडिकल, डेन्टल, नर्सींग, फार्मसी कॉलेजां आशिल्ल्यान अॅप्रन घालून वावूरपी भुरगी दिश्टी पडटाली. कांय जाणांच्या गळ्यांत स्टेथोस्कोप आनी हांतांत पुस्तकां दिश्टी पडटाली. घडये थंय उदेग व्यवसांयाचे प्रमाण उणें आशिल्ल्यान लोकांची धावपळ भोव थोडि दिसताली. स्वतःचे एका वेगळेच लयीत मणिपालचो वावर चलता अशें दिसले. हेर कडानी 'वाग फाटी लागिल्या भाशेन लोक धावतात तशें' कांयच दिसले ना. सकळाच्या वताचो शेक घेत आमी कॉलेजात पावले. कॅन्टीनात वचून उपमा, बटाटवडो खालो. वयर सदचे बाशेन कॉफी पियले. मुखेल कार्यक्रमाक सुर्वेक नामनेचे हृदयरोग तज्ञ दोतोर बी. एम्. हेगडे उलवपाचे आशिल्ले. तांचे उलवपाचे विशय हांवेन पयले खेपो आयकल्लो. नवे विशय नव्या विचारांक चालना दितात. घडये खबर आशिल्ले विशयाची नव्यान मांडपी करप काय लोकाक जमता. दो. हेगडे एक चैतन्यान सळसळपी व्यक्तीमत्व. तांची बुद्धी स्मरणशक्ती खर. पुस्तकांचे संदर्भ दितासतना पान नंबर दिवपी. सदां चलपी संशोधन आनि निरिक्षणात्मक संशोधन हाचेर ते अधिकारान उलयले. आमचे जीणेत काय नाका आशिल्ल्यो गजाल कशो रिगल्यात. खासा करून वैजकी मळावयलो प्रवास योग्य दिकेन ना अशे ताणी म्हळें. एक चुटकुलो सांगून ताणी सद्याची अवस्था सांगली. एक वायटकार एका दोतोराकडे वता. दोतर तपासून ताका वखदां दिता. तो वायटकार तो वखदां फार्मासीतल्यान घेता. घरा येवन ती वखदां भायर मारता. बायलेकताच्या ह्या कर्तूबाचें अजाप दिसता. ती ताका अशें करपा फाटलें कारण विचारता. तेन्ना तो सांगता दोतराक जगपाक जाय म्हण हांव तपासून घेता. फार्मासकार जगपाक जाय म्हण हांव वखदा घेता. हांव स्वतः जर जगूक जाय जाल्यार वखदां घेय नासता भायर वोडवप गरजेचे आसा.

दो. हेगडेले विचार संशोधना संदर्भात पटपा सारखें नासले तरी विचार करपाक लायताले. उपरांत दो. कृष्णराव हांगेले 'बरो शिक्षक कोण?' हाचेर उलवप जालें. बऱ्या शिक्षकाच्या आंगात व्यक्ती व्यक्ती मदी बरें संबद उबे करपाची तांक जाय तशे वांगडा ताच्या बौद्धीक पातळेचो कस लांगूक जाय. अशें ताणे प्रतिपादले. भुरगीं आनी शिक्षक हांचे मदी आयज आसा ते संबद पळयल्यार भोव थोडे शिक्षक भुरग्याकडे समजीकायचे आनी आपलेपणाचे संबद दवरतात. गोरवांक खावड घालची ते भाशेन ते तांका शिकयतात. तांका किदे जाय वा ती खंय उणी पडटात हाचेर विचार सारखो जायना अशें ताणी म्हळें.

शिक्षण म्हळ्यार किदे? ताची मोख किदे? 'भुरग्यां मदी फाव तो बदल घडोवन हाडपी पद्धत'



खरेपणान शिक्षण थांरू येता. आमच्यातले कितले शिक्षक हे दिखेन विचार करतात? हे संदर्भात हांवेन अशे सुचयले की पयली आमका भुरग्यांत कसलो बदल जाय ते थारावप गरजेचे. जण एकल्याले विचार बदलतले तशे घडोवन हाडपाच्या बदलाचे रूप बदलतले. हाचे पासत आमचे शिक्षणांत किदे जाय आनि किदे नाका हाचेर विचार जावंक जाय. म्हज्या मत आयोजकांनी मतीत धरलें.' दुसऱ्या दिसाच्या कार्यक्रमात 'फार्मसी अभ्यास' क्रमार खाशेली चर्चा ताणी हे खातीर दवरली.



दुसरे दिसा प्रोफ. यु. आर. अनंतमुर्ती हांगेले 'भारतीय शिक्षण पद्धत' हाचेर उलवप आशिल्ले. प्रो. अनंत मुर्ती एक लेखक विचावंत आणि सामाजिक प्रबोधनात जाणकार प्रो. अनंतमुर्ती हांगेली 'संस्कार' ही नवलिका वाचिल्ली. पोरन्या गजालीचेर तुटून पडप सामखें सोपें. दो. अनंतमुर्ती हें ते काळात सहजसुलभ भावनेन समाजांत चलिल्ल्या वायट गोष्टीर तुटून पडिल्ले. नवलिकेत पोरन्या आनि नव्या गजालिचो संघर्ष खर पणान जाता. 'प्राणेशाचार्य' जो हे नवलिकेचो नायक तो पोरनें रिती रिवाज सांबाळून बसपी. पुण नारायणाचार्यचे आव्हान ताच्या मुखार उबें रावता. नारायणाचार्य एक प्रवृत्ती धरू येता. जी प्रस्तापितां आड बीं रावता. हे प्रस्तापित फकत ते काळांतच आशिल्लें अशें न्ही तर ते सदांच समाजात वावूरता. हाचें कारण सोपें आसा. कारण समाजाचे रूप सदांच बदलत आसता. हो बदल आपूण जावन जायना. जाल्यार समाजात जो तरेक तरेच्यो प्रवृत्ती आसतात तो असले बदल घडोवपाचो यत्न करतात. प्रश्न उरता आमका बदल कसो जाल्लो जाय? समाजाचे बरें जांवपाची तांक जे बदलत आसा तो बदल आमका जाय. अशें म्हणतात ब्रिटीश आयल्या उपरांत हांगा बदलाचो वेग वाडलो. सुटके उपरांत तर ताका उधाण आयले. आमी फाटी वळून पळयल्यार हो बदल योग्य वा गरजे भायलो ते कळपाक इल्ली मदत जाता.

प्रो. अनंतमुर्तींनी आपणाल्या उलवपांत जातीव्यवस्था, उच्च वर्णीयाक मेळपी सहज संदी, लोकप्रिय शिक्षण पद्धत आनि शिश्ट पद्धत हाचे भर दिलो. वांगडा मुळावें शिक्षण भारतांतल्या परंपरागत कारागिरी हाचेर विचार उक्तायले.

समाजात जें फाटी उरल्यात तांका संद मेळपाक जाय आनी गरज पडल्यार जागे राखून दवरपाक जाय हाचेर दुमत नाच. पूण हे करीत आसतना मदल्या वर्गाचो विचार जांवक जाय. आयज समाजात मदलो वर्ग व्हडा संखेन आसा. तांका अशो समान संदी मेळपाक किदें करू येता हाचेर विचार जावक जाय. डार्विनाच्या Survival of fittnest हे तत्वाचो विचार केल्ल्यार मागीर बुद्धवंत खंयच्या सामाजिक थरांतलो आंसू वयर सरपाची तांक ताच्यात आसता वा येतो अशें म्हणू येता. हे संदर्भात आयज राखीव जागा दवरल्यो ताचो विचार जावक जाय. म्हज्या मनात बुधवंतांच्या फुडाराचो विचार जाला तितलो पूरो.

आयचें शिक्षण धावे मेरेन सगळ्यांक फुकट मेळूंक जाय न्ही तर सक्तीचें जाय हातून इल्लोय दुबाव ना. पुणून शिक्षण म्हळ्यार किदे? मेळिल्ल्या शिक्षणाच्या आदारान जर मनीस मनीस म्हणून जगपाक नालायक थारपाक लागले जाल्यार ते शिक्षणाचो उपेग किदे? शिक्षण मनशाच्या मनोवृत्तीत बदल घडोवपी आसूक जाय. आनी हो बदल समाजाक तसो जांवक जाय. आयचे आमचे शिक्षण हे दिकेन चल्ला व्हंय? आयज बेकरिचो प्रश्न खर जांवन आमका अस्वस्थ करता. हाचे कारण किदे? श्रमाची आशिल्ली कामां आनी टाळटात म्हळ्यार श्रमाक आमच्या शिक्षणांत स्थान ना. म्हणूनच ही परिस्थिती उप्रासल्या.





आदले तेपार श्रमविभागणी जावन जातिव्यवस्था मुखार आयली. हे जाती व्यवस्थेन काय कामां उणांक तर काय वयल्या पांवड्याची थारायली. जाका लागून एक विकृत व्यवस्था आमच्या मुखार आयली. तरीकुय 'श्रम विभागणाचे' काम खंयचोय समाज न्हयकारू शकना. आमच्या महात्मा गांधीन हे श्रमाचे मोल वळखिल्ले. इतलेच न्ही तर हरीजन म्हण काय लोकांक संबोधपी बापू एके नदरेन पळयल्या जे श्रम समाज उणाक समजतालो ताका उचेले स्थान दिवपाक वावूरले. आयजुय आमका हयांच विचाराची गरज आसा. हे देशांत आयन्स्टन ना जन्मांक येव हे देशांत व्हडले शोध ना लागू. पुणून हे देशांत समाजधर्म सुरळीत चलपाखातीर जो गजाली लागतात त्यो निर्माण करपाची तांक आमच्या शिक्षण व्यवस्थेत जाय 'शिकिल्ले अडाणी' तयार करपाचे कारखाने जे ब्रिटिशांनी स्थापिल्ले तांचे संदर्भात विचार जांवक जाय.

हे नदरेन 'संस्कार' नवलिका पळयल्यार आमच्या मुखार आनि एक सत्य येता. प्राणेशाचार्याक जेन्ना स्वतःची चूक कळून आयली तेन्ना आणून आता प्राणेशाचार्य उरुंक ना अशे दिसले. सनातन धर्माचो अधिकारी हो आपणालो हक्क आपूण वगडावन बसला अशे भितल्यान दिसले. हे ताका उमजू फाटले कारण किदे? Inner consious? म्हजे नदरेन जांक संस्कारान जांव शिक्षणान मनशाचे Inner consious जागे जावप म्हत्वाचे ते नदरेन शिक्षण आनि संस्कार हाची आमका सांगड घालूंक येत व्हय?

कार्यक्रमामदी एक शिक्षणातली नैतिकता हाचेर एक व्याक्यान आयकूक मेळ्ळे. नैतिकतेचेर उलोवप रसाळ जालेना. दिवपी मनीस तज्ञ नाशिल्लो आणि विशयाचो समज इल्लो उणो आशिल्लो.

सगळ्यांत बरो कार्यक्रम जालो तो फळ्याचो शिक्षणांत जावपी उपेग खडू आनी फळ्याचो सोद लावपी मनीस म्हजे नदरेन खरो प्रयोगशील आसूक जाय. फळो आनि खडू आमगेल्या शिक्षणीक मळार केदें व्हड स्थान घेवन बसला.

आयज मेरेन पळयल्या हेर वाठांरात आनी मणिपाल उडपी वाटांरात दोळ्यांत भरपी भेद जाणावलो तो म्हळ्यार पुलीस. सादो ट्रॅफीक पुलीस खंयच दिश्टी पड नाशिल्लो. खंयच्याय शाराची वैशीश्ट महळ्यार पुलीस. पुण पुलीस नासप हे किद्याचे लक्षण? म्हज्या मनांत सहज विचार पुलीस आमकां केन्नां जाय पडटा? जसो दोतर आमका आमचे शरीरस्वास्थ इबाडटकीय जाय पडटा तसो आमचे इबाडिल्ले सामाजिक सांबाळपाक पुलीस, कोर्ट, तुरुंग जाय पडटा ते नदरेन मनिपालची जीण स्वस्थकायेची. जीणेत नागोवणेच्यो, फटिंगपणाच्यो जितल्यो गजाली चड तितले तांची राखण करपी मनीस चड. आदले तेंपार गोंयांत जनेलां दार उक्ती सांदून न्हिदल्यार कोणूय दिसाघरांतले चोरून व्हरपाची शक्यता उणी आशिल्ली. आणि आतां तशे केल्यार? आयज कुलपाक्षरां फोडून चोरपाच्यो गजाली दिसा कणकणी घडटात आसूं.

खंयच्याय वाठांरात गेल्यार हांव थंय लायब्ररी आसा या ना हें पळयता, लायब्ररी आसल्यार हांव मुजरत थंय वचून येता मणिपालाक भौशीक, लायब्ररी आसा. 'नेहरू लायब्ररी' वाठारात चडशी शिकपी आनि शिकवपी मनशांचो राबितो बरोच आशिल्ल्यान लायब्ररीत गर्दी आसतली असो म्हजो अदमास. पुण हांव लायब्ररीत भितर सरलो तेन्ना थंय साप उणे वाचक म्हांका दिश्टी पडले. हांव मात्सो खंतावलो. सुमार चारशें - पांचशें वाचक एके वेळार बसपाची व्यवस्था आशिल्ल्या लायब्ररीत फकत धा-बारा लोक आशिल्ले वाचन सगळीकडे उणें जायत चल्ला.





म्हाकां श्री रामदासस्वामी च्या श्लोकाची याद जाली. दिसामाजी काही तरी ते लिहावे। प्रसंगी अखंडित वाचीत जाले।

लायब्ररीत आशिल्ल्या भुरग्याच्या कुडीत सात आठ भुरगीं आशिल्ली. जिवाक ते पळोवन बरें दिसले. हांवेंन लायब्ररीत दवरिल्या दिसांळी आनि मासिकाचेर नदर भोंवडायली. 'सारस्वत' त्रैमासिकाचो अंक पळोवपाक मेळ्ळो. सुमार वर भर लायब्ररीत रावलो.

फांतोडेर साडेपांचाक जाग आयली. जाग आयली तसो उठलो. सकाळची सगळी कामां सोपयली. सावायसक सुमार 'सकाळचे' मणिपाल पळोवपाक भायर सरलो. 'श्री कृष्ण मंदिर' आनि 'लेक हॉटेल' आशिल्ल्या रस्त्यान सिंडीकेट बँकेचे मुखेल कार्यालयाची बिल्डींग आनी ताका लागून 'मॅनेजमेंट इन्स्टीट्यूड' बिल्डिंग आशिल्ली; उजव्यान मुळावी शाळा. पांच धा मिनिटां चल्ल्या उपरांत एक चर्च दिश्टी पडली. आणि कुशीक आटील्ले तळे आशिल्ले. कोकण वाठारांत खासा करन एप्रील में म्हयन्यात तळीं, व्हाळ पळोळपासारखे नासतात. तांची धोंगा पोंगा सारखी दिश्टी पडतात. ते तळ्यापासून काय अंतरार एक वेगळेंच तरेचे 'कृष्णाचे' देऊळ पळोवपांक मेळ्ळे. एखाद्या कम्युनिकेशन टावराच्या बांदवळीचो घुड आशिल्ले. देवळांतल्या वाजिल्यो घांटी आयकूक येताल्यो जाका लागून थंय देवूळ आंसूक जाय असे अदमास करू येतालो. म्हऱ्यांत पावलो तेन 'बदिस्त तरांगणीचे' धर्तेर बांदिल्ली इमारत दिश्टी पडली. देवळाची गेट धुकलून हांव भितर सरलो. उजव्यान गणपतीची घुमटी आशिल्ली दाव्यान एक पेपळापेड. गणपतीची पूजा चलताली. पिंपळा पेडाक काय बायलो प्रदक्षिणांत घालताल्यो गणपतीक पांयां पडताना ओठांजिबेर स्तोत्र आयले. स्तोत्र पुटपूटत हांव कृष्णाच्या देवळांत भितर सरलो. काळ्या किट्ट पाषाणार कोरतदेली कृष्णाची मूर्त गर्भकुडीत आशिल्ली. कृष्णा उबो गायक लेकून आनि हांतात मुरली घेवन आशिल्लो. ते वाठांरात हावेन पळयल्ले ते कृष्णाचे दुसरे देवूळ पयले पळयल्ले उडपीक. हंगासल्ले लोक कृष्ण भक्त कशे? सहज मनात विचार आयलो. मनशाच्या रुपान मनशात सहजतायने वावूरपी ही व्यक्ती वा सामान्य मनशाक देवपद भेटोवपी आमचे समाजाचे विचार म्हज्या तकलेत घूवळपांक लागले. होच कृष्ण गीतचे रुपान एक व्हड तत्वागिन्यान भौसांत आयज लेगीत आपाणाली. पाळांमुळां घट्ट धरून उबे कशे रावलां. म्हज्या नदरेन कृष्णाची जीण ताचो भौसाकडलो वावर, तांच्या सुख दुःख वाटो घेवपाची उमळशीक हाका लागून कृष्ण ल्हान मोठे गरिब श्रीमंत हाचो सगळ्यांचो जालो.

ते देवळांत वण्टीचेर गीतेतले विचार बरयल्ले दिश्टी पडटाले. देवळांत एकदोनूच भावीक सकाळचे थंड वातावरण एक वेगळोच अणभव दिताले.

देवळांमुखार एक धाकटुली बाग आशिल्ली हांवेन ती भायल्यानूच पळयली. आनि हांव म्हजे खोलयेर परतलो.

तेच दिसा कॉलेजांत व्हडले कार्यक्रम नाशिल्ल्या म्हज्या इश्टानी आनी हावेन 'श्रृंगेरी' वचपाचे थारायलें. श्रृंगेरी आद्यशंकराचार्य हाणी स्थापील्ल्या पांच पीठांतले एक दक्षीण भारतांतले पीठ. म्हांका याद जता भुरगे पणांत आमच्या माजघरांत वण्टीर 'श्री शंकराचार्याचो फोटो आशिल्लो. शिमोग्याक वचपी बसीर आमी चडले. बशींत गर्दी आशिल्ली. देड वरांचो प्रवास आशिल्लो गाडी 'आगूंबे घाटाची चडटी चडपाक लागली सुमार अर्द वरान घांट सोपलो. अनमोडाची याद आयली बद्द तशेंच वातावरण. थंयच्यान 'श्रृंगेरी' पंचवीस कि. मी. आशिल्ले. आमी पावले साडेबारांक श्रृंगेरीक वचपी बस दोनाक आशिल्ल्यान बशीची वाट पळयत ताटकळत उबे रावले. वारो थंड बरो





न्हावतालो वातावरण दमट आशिल्ले एका कॅन्टीनात जेवन आमी श्रृंगेरीक वचपी बशीत भितर सरले. गोयचे भाशेन पावणे दोनाची बस दोनांक सुटली. वरा भर्यात आमी श्रृंगेरीक पावले.

खंयचेय व्हडले तीर्थस्थळ देवुळ म्हळ्यार लोकांचो वावर चड. आंगार पडपी फुलां आंगारे विकपी लोक. अशें एक चित्र म्हज्या मनात थिरावलां आमी तीन सवाय तीनांक श्रृंगेरीक पाविल्ले पुण हांतूतले कायच दिश्टी पडूनां. आमगेल्यो व्हाणो राखणदाराकडे सोपोवन आमी उकत्या पांयांनी चलपाक लागले. वतान तापिल्ल्या लादयेर पांयांक चुरके बसपाक लागले. चलत चलत न्हयचे कांठार पावले. सोपणां देवून सकयल आयले. उदक न्हावतें आशिल्ल्यान नितळसाण बरी आशिल्ली. थंयचे वैशिष्ट म्हळ्यार उदकांत आशिल्ले हांत देड हात लांबायेचे नुस्ते. नुस्ते वयर कोणेय किदे उडयल्यार खावपाक येताले. तोंड धूवन आमी सोपणांर बसले. मनात विचार आयलो. जेन्ना हे मठांची स्थापनां जाल्ली तेन्ना वाठार कसो आशिल्ली काय? 'ब्रह्मसत्यम् जन्मिथ्या' म्हण सगळ्या जगाक सागून हिंन्दु धर्माक चैतन्यशील करपी श्री शंकराचार्याक लेगीत ते वाठांरान आपणाल्या मोहात ओडल्या आंसू येत. आयज ते वाठारांक बाजाराचे रुप आयलां.

काय वेळा थंय भोवून आमी मणिपाल येवपाक भायर सरले. बशीत गर्दी आशिल्ली म्हांका ते खिणांक याद जाली ती औरंगाबादच्या अजंठा एलोरा गुफांची. बुद्ध धर्मान एके तेपार हिन्दु धर्मा मुखार एक आवाहन उबे केले. आनि अशे म्हणतात ते आव्हांनाक फुडे गेले. श्री शंकराचार्य अद्वैतमत तत्वार्गन्यान मांडून तेन्नांच्या विषमतेक एक पटपा सारखे रपडे दिले ते हे तत्वगिन्यान. हे विषमतेतल्यान जावपी अन्याय अत्याचार आड बुद्ध उबो राविल्लो. तेंच 'अन्याय अत्याचार' तत्वगिन्यात माडले श्री शंकराचार्यात कर्मण्ये वाधिकारस्ते. गीतातल्या ह्या ज्ञानाकलागून आमचे इतिहासांत कितली पानां बरयल्यांत कितली उक्ती उरल्या हें फक्त पळोवपी म्हांका गरज दिसपाक लागली. घरा परतले तेन्नां बरेच पुरों जाल्ले तरीकुय इश्टाकडे उलयता उलयता साडेइकरा जालीच.

केन्नां केन्नां हांव शब्दां वागंडा खेळटा तेन्ना म्हजेच म्हांका हांसूक येता भोभान वापरपाचे शब्द घेयात. 'पात्रांव' बशीत उबो आशिल्ल्या दमडीमोलाच्या पेसेंजराक कंडक्टर 'सारखो' उबो करता तेन्ना खरो पात्रांव कोण आसता? मणिपाल वा कर्नाटकात हेर कडांनी 'स्वामी' हे उत्तर सवाय जाल्ले भाशेन. वापरतात. हॉटिलांतलो वेटर, रस्त्यावयलो मनीस हांकां 'बाबुश, पात्रांव' हेच अर्थान स्वामी हे उतर वापरतात. सुर्वेक सुर्वेक हांव त्या उतरांचो वापर करपाक आडखळटालो पूण उपरांत संवकळीचे जालें.

मदी एक दीस दो. शानभाग नांवांच्या मनशान ग्राहकाचे हक्क आनि ते संबधात उबरिल्ली चळवळ हाचे संबदात आयकूपाक मेळ्ळे. मनीस खरोच तळमळीन काम करतालो. हे ताच्या उतरांनी दिसतालो. ग्राहकांक जर ताचे हक्क समजून जाय जाल्यातो जागृक जांवक जाय हे सामके खरे. ताणे 'चिरीमिरी' संस्कृती आड केल्ल्या ल्हान मोठ्या चळवळीची वळेरीच सांगली. खरे अर्थान आमच्या प्रोग्रामाक सिरीयस मोडण आयले ते दो. नागावी हांगेल्या भाशणां उपरांत शिक्षण म्हळ्यार किदे? आणि शिक्षणात खंयच्या मुळावे प्रस्न हातांळूक जाय हाचेर आमच्या फार्मासी कार्यक्रमात हांव पयलेच खेपे आयकतालो. 'मनशाची मुल्य' हो विषय गुंफाना ताणी बऱ्याच गजालीचो उलगडो केलो. सध्याच्या शिक्षणाचेर म्हळ्यार शाळा कॉलेजानी मेळटा ते शिक्षणार ताणी खर टिका केली. हालींचो शाळा कॉलेजा फक्त परिक्षा केंद्रां जाल्यांत भुरग्यांमदीं आध्यात्मिक,





नैतिक, सामाजिक कोणे रुजवपाचे असो प्रस्न करून ताणी आमी धर्माच्या शिक्षणापासून घेतिल्या काडीमोडार प्रतिकुल मत परगटायले. खरेच विज्ञान जर धर्माबगर उरत जाल्यार ते पंगू उरता आनि धर्म जर विज्ञान बगर रावता जाल्यार तो कुड्डो थारता. सेक्युलर सेक्युलर म्हण आडूपी लोक हाचेर विचार करीत व्हय?

निमाणे दिसांकडेन आमी जशे जशे पावपाक लागले तशे आमच्या मदलो औपचारिकपणा उणो जायत गेलो. निमाणे दिसाच्या कार्यावळीचेर भासाभास मदी मदी जाताली. कार्यक्रमात मदी एक फावट एका प्रश्नपत्रिके वरवी वांटो घेतिल्ल्याची, एक परिक्षा घेतिल्ली. ते उत्तर पत्रिकांची 'स्टेटीस्टीक' मांडिल्ले तेन्ना एकल्यान सहज म्हळें बायलो सगळ्या क्षेत्रांनी व्हडा प्रमाणात वांटो घेतात आणि फुडें येतात. इतलेच न्ही जाल्यार खुबशा क्षेत्रांनी बऱ्या तरेची कामागिरी बायलोच करतात. हाचे कारण सोदपाचे नदरेन आमी चर्चेक सुरवात केली.

बायलो जेन्नां एखाद्या क्षेत्रांत वावूरातात वा कार्य करतात तेन्ना तांची घडये दादल्यापरस 'इनव्होलमेंट' जालां आमी वावरांत स्वताक शेणवप म्हणू येता ती आमका दिसून येता म्हळ्यार बायलो खंयच्याय वावरांत मन लावन काम करतात. अशे मन लावन काम करपाची तांक आशिल्ल्यो बायलो दादल्या परस येशस्वी थारतात. खंयच्याय प्रश्ना आड झगडपाची बायलांची शक्त ही दादल्या परस चड दिसता. रोकडी हार मानपा वा यत्न सोडप हो दादल्याचो एक मोठो दुर्गुण घडये हे दोन गुणांक लागून सारख्या बुद्धीचे दादलो आनि बायल हांचे मदी जर योग्य संदी मेळत जाल्यार बायल यशस्वी थारपाची शक्यता चड आसता. मागीर आमचे समाजात बायलांक दादल्या परस इल्ले उणे स्थान कशे? आमची संस्कृती घेयात विद्येचे प्रतीक सरस्वती. दुडवाच प्रतीक लक्ष्मी आमची दैवता शांतादुर्गा महिशासुर मर्दिनी ही सगळीं बायलांचीच रुपां. मागीर हो विरोधभास जीणेत केन्नां घुस्पल्लो आदले तेपार कांय किरकोळ आडवाद सोडल्यार 'चलो आनी भुरगे' हांचे भोवतणी आमी बायलांक घुस्पावान दवरल्यात. आमच्या समाजातले अर्द मनीस बळ आमी अशें तरेन अडगळीत उडयले.

हांतूंन दादल्याचो अहंकार जर जा मूं? सहजगतेन एक प्रस्न मनात उबो रावलो. अशें म्हणतात जग एकल्या येशस्वी मनशा फाटल्यान एक बायल उबी आसता. दाखोवपाक त्या दादल्याक तो खंय चुकता जर आमच्या जीणेत अशे मोलादिक विचार आमी मांडू शकातत जाल्यार आमचो समाज असो जाका आमी समाज पुरुा म्हणतात तांका वाट वा मार्ग दाखवपी समाजस्त्री नाका?

तेच दिसांनी नेहरू लायब्ररीत एका इंग्रजी म्हयनाळ्यात लग्नांचो फायदो दादल्याक बायलां परस चड जगपाक कसो जातात हाचे संबधात लेख वाचपाक मेळ्ळो हो अभ्यास जाल्लो तो अमेरिका आनि युरोप वाठांरातलो. पुण तातूंतले निश्कर्ष भारताक लेगीत लागतात. लग्ना उपरांत दादल्याची सगळे तरेचे भूक खासा करू भावने संबंधातली बायलो बरे तरेन भागयतात. दादलो मात सुवार्थी जावन वागता. जाका लागून चडांत चड फायदो दादल्याक जाता. 'भुरगी ही देवाली फुलां' अशा सोबित विचारांत गायिल्लो तत्वगिन्यान लग्न जाल्ले बायलेचेर आदले तेपार धा-बारा गुरवारपणा लादतांले आता तो काळ सोपला पूण ते विचारान घडयल्ली पोशिल्ली दादल्याची मानसिकता खंय सोपल्या? सोरोपियोवन बायलां भुरग्यांक मारबडय करपी दादल्यापासून 'तू फकत हाताक हात लाय' म्हणपी दादल्या मेरेन सगळे बायलांचो फकत दुरुपयेगच करतात. बायल ही कांय काळाची चली, खीणाची पत्नी आणि उरिल्ल्या काळाची आवय आसता अशे म्हणत आसतना बायल म्हळ्यार





आमच्या संसारातले 'चैतन्य' आनि जेन्ना समाजपुरुषाच्या आंगात हे चैतन्य सळसळटले तेन्नांच आमका विकासाचे व्हडले अंतर काडप शक्य जातले. बायलांक दादल्याची 'अर्धांगी' म्हणतात. दादले जर 'धर्म अर्थ काम मोक्ष' सादून 'पुरशार्थ' मेळयतले जाल्यार 'अर्धांगी' जायच मागीर 'समाजपुरुश' जर 'पुरशार्थी' जातलो जाल्यार ताच्या समाजांतले अर्द आंग ज्यो बायलो आसात तांका उपेक्षून कशें जातले? निमाणे दिसांनी आयोजकांनी आमकां एक 'डिनर पार्टी' दवरिल्ली. पार्टी म्हळ्याबरोबर आमच्या नदरेमुखार येतात ते पयली 'सोडा' घालून फेसान फसफशिल्ले ग्लास. वांगडा नुस्तें आनि चिकानाचो लाळ सुटोवपी वास. पूण आयोजकांनी 'शिवराक सुकी' पार्टी दवरील्ली. पार्टेत व्हेज – नॉनव्हेज चलपी, फकत व्हेज जाका प्युअर व्हेज म्हणटात अशे आशिल्ले. जाल्यार कांय वाटेत नॉनव्हेज / व्हेज आशिल्ले. सुरवातीचे शांत आणि फार्मल वातावरण प्लेटी हांतात येतकीच बदल्लें. विंगड विंगड खबरीक उधाण आयलें. प्रोग्रामा विशयी उलवप कमी जावपाक लागले. बाकीच्या खबरीक नेट आयलो. वांटो घेवपी लोकांमदी भाशा प्रांत हांचेर मेकळ्या मनान उलवपाक लागले. एकले बायले आपणाले घरांतले संबद समजातल्या विंगड विंगड थरांत कशें पातळल्या ते सांगले म्हळ्यार राष्ट्रीय एकत्मतचे बी तुमचे घरांत मेळील्ले कांय किदे? असो एकल्या इश्टान एक मार्गिक प्रस्न विचारलो तेन्ना सगळ्यांक हांसून पुरो जाले.

मदींच विशय आयलो भाशेचो. 'मातृभाशेंतल्यान' भुरग्यांक शिक्षण मेळपाक जाय अशें आमचे सगळ्यांले मत 'तेवूय आमी इंग्रजीत माणटाले'. हांवेन म्हळें मातृभाशेतल्यान किद्याक, खरें जाल्यार 'पितृभाशेंतल्यान' जावपाक जाय. हे तरेची उतरां जाणी पयले खेपे आयकली तांकां हासपाक आयलें 'हांवेन म्हळे हांसू नाकात' म्हज्या मुखार बशिल्ल्या इश्टाक हांवेने विचारले 'तुजी भाशा खंयची'?

हो आंध्राचो आशिल्यान ताणे 'तेलगू' म्हणपाची जाप दिली.

'तुजी बायल खंयची?' हांवेन दुसरो प्रस्न केलो.

'हांगसरलीच कन्नड' ताणें खोखडीच जाप दिली.

'तिका तेलगू येताली'?

'ना. रोखकडी शिकली ती'.

'घरांत कसली भास उलयतात'?

'तेलगू'

'पळयले' हांवेन इश्टाक म्हळें हांची जी भुरगी आसा तांची आमी 'आवयभास' हो शब्द पूण घरांत तेलगू उलयता म्हणतकीर तांगेली आवयभास तेलगू, ज्या घरांत असले द्विभाशिक संबद आयल्यात थंय चडशेवेळा बापूय जी उलयता ती भुरग्यां भास थारता. हाचें कारण किदे आसू येत? लग्न जावन चली भुरगें घोवागेर कडेन वतां हे ते फांटले कारण आसू येता. पूण कोंकणीतले नामनेचे विचारवंत श्री. सुमंत केळेकार हांची आनि म्हजी हे संवादात भासाभास जाली ताचो उगडास आयलो. सुमंतबाबान एकदां शिक्षका मुखार उलयताना म्हळे की 'परीसर भास' सगळ्यांत म्हत्वाची किद्याक तर भुरगे तीन वर्साचे जाता ते ते उपरांत ताचो संबद परिसरांतल्या भुरग्यावांगडा येता. भुरग्याक घरांत उलवपी भास आनि परिसर भास वेगळी मेळ्ळ्यार भुरग्याचो भाशिक विकास जावपाक आडमेळें उप्रासता. हाचो अर्थच असो भुरगीं जे परिसरात वाडटा ते परिसराची भास आवय बापायन उलवप आनि भुरग्याक शिकवप भोव गरजेचे. मुळावे शिक्षण हेच संबदात विचार



बहूजन समाजाचे फुडारी

आनी गोंयचे गृहमंत्री



# श्री. रवी सिताराम नाईक

हांकां

वाडदिसाच्या निमतान आमचीं परबीं!




## जैत प्रकाशन

खोर्लीम, तिसावाडी - गोंय



केल्यार मातृभाशे परस परिसर भाशेंतल्यान जाव कितले गरजेचे हे आणि वेगळे सागपाक जाय?

आयज आमचो मणिपालांतलो निमाणो दीस. आयिल्ल्या दिसासांवन आमी दीस मेजताले. 'कांउटजावन' म्हणटा ते भाशेन निमाण्या दिसाचे वेध दोन दिस पयलींच लागिल्ले. कार्यावळीत वांटो घेतिल्याचे नामे एकठांय करपाक एकलो लागलो. आयज 'झेरोक्स' सारख्यो सुविधा आशिल्ल्यान आमी दोन तीन पेपरार नामे बरयले आनि ताचो झेरॉक्स काडल्यो. तेच दिसा सगळ्या वांगड्याचो फोटो काडलो. एका याद म्हणत फोटोचो भोव उपेग जाता.

आदले दिसा आयोजकांमदलो मुखेल म्हांका म्हणपाक लागलो कि फाल्याच्या निमाण्या दबाज्यात वांटो घेतिल्या मदल्या एकल्यान उलोवंक जाय. म्हज्या इश्टानी ती जपसालदारकी म्हजेर सोपयली. आपले विचार धिटायेन मांडप वेगळे आणि एक पंगडाचो प्रतिनिधी म्हण विचार मांडप वेगळे. उलवपाचे हांवेन थारायलें ते नदरेन हांव विचार जुळवपाक लागलो.

भोवडेंकार खंय भायर वता तेन्ना ते 'खरेदी' हो प्रकार करतात. कोणे किदें खंय आनि कितले घेवचें हाचे नेम घडये नासू पुण बोल्स हलकें जाय मेरेन लोक खरेदी करतात हो म्हजो अणभव. खरेदीचे बाबतीत हांव सामखो 'बाप्पा' म्हांका व्हडली घासाघीस करपाक येना. पूण हांवेन घेवपाच्या वस्तीची वळेरी मनांत केल्ली. हाली टिव्हीचेर महाभारत, वीर हनूमान, कृष्णयन दाखयतात म्हजो धाकटो भुरगो जेन्नाते पळयता तेन ताका 'गदा' खेळणे म्हण जाय आसता. उडूपी कृष्णाच्या देवळा भोवतणी लाकडी आयुधा विकपी बरीच दुकानां आशिल्ली हांवेन 'ताका' करपाची एक सादारणशी घेतली. पोळपाट लाटणे, डोसा परतुपाचो. लाकडी कायलथो, गंध सोंवळे असल्या वस्तू हांवेन घेतल्यो. दुसऱ्या एका इश्टान तळील्ले घऱ्याचे पापड, सुकयल्यो मिरसांगो घेतल्यो ते वाठांरात नामनेची वेळ आस मालपे उडपीच्यान मालप्या वाचपी बस धरून आमी वेळेर पावले. वेळ लांबायेन कोलावा पसर मोठी दिसताली. वेळेर रेवेंत फकत एकूच 'पियोवपाचे' विकपी गाडो आशिल्ल्यो. बाकी भेळपुरी सारखे गाडे रस्त्याचेर आशिल्ले. हाका लागून वेळेर नितळसाण आशिल्ली. गर्दी सुमार आशिल्ली. हांव कपडे काडून सुमार वर भर उदकांत रावलो. सुर्य अस्तंतेक वतकीच आमी परतले.

मणिपाल, उडपी वाठांरात लोकसभेच्या वेंचणुकेचे मतदान सत्तावीस तारखेर जावपाचे आशिल्ले 'कडक रोशनाक' लागून प्रचार नाशिल्लेत अशें म्हणपाची परिस्थिती आशिल्ली. मतदाना पयली दोन दिस बार आणि सोऱ्याची दुकानां हाचेर हावळ आयली. सातांक सुमार सगळीं तसली दुकानां बंद जाल्ल्यान आमचे इश्ट मजा करपाक शकलें ना. निमाणे दिसा 'फेस्त' करपाचे खुब जाणांनी थारायल्यान ते सगळे निरशेल्ले दिसताले.

धा वर्सां उपरांत परिक्षेनिमतान परतून मणिपालाक पावलो. राती मत्स्यगंधान चिपळूणच्यान भायर सरलो. पावसादिस आशिल्ल्यान गाडयो सावका वताल्यो. सकाळी आठांक उडपी स्टेशनार पावलो. थंयच्यान मणिपाल. एस् बी. क्यू. ह्या गेस्टहाउसार पावतकीच वांगडा दो. उन्नीकृष्णन परिक्षक म्हण आसल्याची खबर कळ्ळी. तांचे वांगडा णवाक सुमार कॉलेजींत गेलो. सकाळी प्रक्टीकल सुरू करून दनपारां सेंट्रल अेसमेंटांत वचपाचो बेत आशिल्लो. दो. उन्नीकृष्णन हे सदांच ताज्या हट्टतीत फुलांभाशेन दिसतात. तांचे फार्माकॉलोजी विशयातल्या ज्ञानाची लक्तूबाय दिसताली. जो शिक्षक आपणालेस्वतःचे तत्वगिन्नयान घेवन जगता, वावूरता ताचे लागी ज्ञान आपशीच जमता. दो. उन्नीकृष्णन थोड्याच उतरांनी खूब किदे सांगून वतलो. धा वर्सा पयली ताणे म्हणल्याची याद जाली. 'जे मेजूक जाय तांका म्हत्व ना. जे मेंजू येता ताका म्हत्त्व येता'! आमगेल्या शिक्षण व्यवस्थेतले उणांकपण साद्या सोप्या शब्दांत ताणे मांडिल्ले. हे मांडटाना



उत्तर गोंय मतदारसंघाचे खासदार

आनी माजी केंद्रीय मंत्री







# श्री. श्रीपाद नायक

हांच्या वाडदिसाच्या निमतान आमची परबी




## जैत प्रकाशन

खोर्लीम, तिसावाडी - गोंय



ताच्या खाडांतलो एक लेगित केंस पिकूक नाशिल्लो. धा वर्सां उपरांत मात ताचे अर्द्यान अदिक खाड पिकील्लें. ताच्याच शब्दांत 'जे मेजपाक येता म्हण'. म्हत्वाक आयिल्ली प्रॅक्टीकला सुरू केली. बेब्याच्या पोटावयली कात काडून टेस्ट्यूबांत हुमकळायली. ताका एके वाटेन दोरो बांदून माखनाच्या पोताक भुरग्यान गांठ मारली. वखदाचो दोन थेंबे ते काती कुडवयार सोडून 'बायो अॅसे' ह्या फार्माकोलोजीतल्या एकल्याच आनि एकूच नाटकाचो अंक सुरू जालो. फुडली तीन वरां वखदाच्या वेगळ्या कॉन्सनट्रेरांना मुखार ती कात बागोन बागोन रिस्पोन्स दिवपाची. आनी ते वरवी दुसऱ्या वखदाचो भुरग्यान अदमास घेवपाची परीक्षासुरू जाली. अशें म्हणटात अेंडेलाचो सोद लागल्या उपरांत हजारांनी लिटर अेंडेल मानशाल्यो आंतकडयो निवळ करपाक उपेगी पडल्यो. सुमार शंभर वर्सा पयली बेब्याची कात 'अॅसिटायल कोलिन' ह्या वखदामुखार नमळायेन बागवता हे पळोवन प्रयोगाची संहिता 'लॅंगले' नावाच्या शास्त्रज्ञान बरयली. ते संहितेचो मोचेमाडकारांच्या नाटकाभाशेन प्रयोग फार्माकॉलोजीच्या हजारांनी प्रयोगशाळांनी लाखांनी भुरगे करीत आयल्यात, करतले. हरशी नाटक सुरू जाले काय पळोवपी थिरावतात. पुण प्रॅक्टीकलांचे काम सुरू जाले काय परक्षिकांक 'फावलो' वेळ आपशीच मेळटा. त्या फावल्या वेळाची संद घेवन हांव प्रयोग शाळेतल्यान भायर पेपर हॉलांत वचून येवपाचे चित्तालो. पुण काफी आनि इडली-चटणी आयली. परिक्षा म्हळ्यार खाणां-पिणां विचारप ना. मणिपालाक परिक्षकांक वरा देड वरांनी किदेंय तरी मेळटा. पोटांत भूक आसू नासूं. वेलची घातिल्ली काफीयेचे घोंट दोन घोंट पोटांत गेले. जीवांक बरें दिसलें. प्रयोगशाळेतल्यान भायर सरलो. उजव्यान कस्तुरबा हॉस्पीटल. थंयच तिसऱ्या माळ्यार पेपर तपासपाचो हॉल. मणिपालच्या मळार पयले साम्राज्य. तांतून हॉस्पीटलां, हॉस्टेलां, कॉलेजां, गेस्ट हाऊस सगळे व्हडां प्रमाणात म्हज्या वांगडा दो. उन्नीकृष्णन आशिल्लो. हांव कांयच उलोयन ते पळोवन ताणें म्हळे.

''चिंतत आसतना काम करप ना.कामा वेळार बेठेंच चिंतपना'' हांवेन 'हय' अशीजाप दिली. ''निदान परीक्षा दितना भुरग्यान आनि पेपर तपासताना परिक्षकानदुसरो विचारुच करपाक जायना.'' सेंट्रल अॅसमेंट विभागात आमी पावले. ताणे म्हजी वळख करून दिली. पेपरांचे पॅकेट म्हज्या हातांत दिली.

''पंचवीस पेपर आसा. राती आठ मेरेन हॉल उक्तो आसता. पुण दिसाक फक्त पंचवीसच हा'' उन्नीकृष्णन म्हाका सांगले. पेपराचे पॅकेट मेजार दवरून हांवेन हॉलार नदर मारली. पन्नासावयर मेजा घातिली. पुराय हॉल अेसी. मसणशांतते रातकीड्या आवाज येवचो तशी अेसीची गुरगुर आयकूक येताली. पेपर थंयच दवरून आमी प्रयोगशाळेत परतले. काय पेपराचेर सयो जाय आशिल्ल्यो त्यो करून हांवेन एक भोंवडी प्रयोगशाळेत मारली. पांच भुरगी प्रयोगात गुल्ल जाली. तांच्या कर्तुबाचो काणयो माखनात नोंद करताले. सगळे वेवस्थित चल्लां काय ना हाचो हांवेन अदमास घेतलो. कॉलेजीच्या ऑफीसांत वचून प्रिन्सिपॉलाक मेळचे अशें दिसलें,. भुरग्याक दिवपाच्या मार्कांची उन्नी कृष्णनान फोडिणीशी केल्ली. म्हजो फकत हयकार घेवन ताणें आपणाले काम सुरू केले. म्हजे वांगडा एक शिपाय दिवन ताणें म्हजो मार्ग मेकळो केलो. सांजे थोडे पेपर तपासपक. राती ट्रेनि प्रवासाचे इल्लें जागरण आशिल्लेंच. चड दगदग करप ना अशे हांवे दनपारांच ठरयले. मनीस सुशेग घेवपाचो थारायता तेन्नां ते तो कार्य वेवस्थित तडिक व्हरता. हांवेन ते दिसाची तशेच थारायल्लें. दीस इल्लो आळसाविल्लो. सांज आणि रात फाटोफाट कळाव करिनासताना आयली. राती जेवप इल्ले चड जाले. भरिल्ल्या पोटार न्हिद रोखडी लागली.

सकाळी फातोडेर पांचाक जाग आयली. जाग आयली कांय उठप. हातरुणार लोळपना. म्हज्या





भुरगेपणांत हांतरुणार बेठीच लोळपी भुरग्यांनी जितल्यो तापोवण्यो खाल्यात तितल्यो हेर कसल्याच गजलीक खावना आसूं येत. हाकाच लागून सकाळी बेगीन उठपाची संवय लागली. भायर पावस पडटालो. तोंड बिं धूवन हातात सत्री घेवन हांव भायर सरलो. गेस्ट हाऊसांतल्यान भायर सरून वेल्कम हॉटेलाच्या दिकेन चलपाक लागलो. उजव्यान हॉस्पिटलाच्या व्हडल्या इमारतीक इल्ली इल्ली जाग आयिल्ली अशें दिसतलें. ल्हान रस्तो चलून हांव मणिपाल कारकल रस्त्यार पावलो. उजव्यान वळून बसस्टँडार चलपाक लागलो. मदी मदी शांतिकायेचो भंग करपी रिवशाचो आवाज सोडल्यार वातावरण शांत आशिल्लें. बसस्टँड फाटी पडलो. पावलांची गती इल्ली वाडली. हांव उडपीची वाट चलपाक लागलो. मळ सोपंता थंय देवती आसा. देवती म्हळ्यार मणिपालाची शीम. चलत चलत उडपीक पावलो. पावस बारिक बारिक पडटालो. उपीच्या रेल्वेपुलार कांय वेळ थारलो. परतून गेस्ट हावसार वचचें असो विचार मनात आयलो. गेस्टरुमार येवन न्हावन – धुवन प्राणायाम केलो. गेस्ट हाऊसातल्या कॉफी – डोसार ताव मारलो. रुमार येवन दिसाच्या कामाची मांडावळ मनातूच केली. आयज प्रॅक्टीकल सकाळचोच आदेस आशिल्ल्यान दनपारां पेपर तपासप. राती उसरां 'मंगला' धरून वचपाचे आशिल्ल्यान काम सोपोवपाची ताकतीकशी लागिल्ली.

भायर आता बरेंच उजवाडिल्लें. काल जे नदरेत येवना ते आयज येवपाक लागलें. निमाणी नदर म्हत्वाची. फाटल्या 'धा' वर्सात मणिपाल खुब्ब बदल्ल्यांचे दिसलें. आनी जेन्ना खंयचोय वाठार बदल्ला अशें म्हणता तेन्नामदल्या काळात आमीय बदल्लिे आसतात.

स्वतःची नदर, यादीतलो काय गजालिंची उणावलेली म्हायती, शेणिल्लो संदर्भ आणि ह्या सगळ्यांची सरबुरस जांवन मनात निर्मल्ली त्या वाठांरी प्रतिमा. तेन्नांची आतां दिश्टी पडटाती. हाचो ताळमेळ जमना जे जुळना ताकाचा आमी बदल म्हणटा काय? पयली किदे आवडटाले. आता नविदाद किदें हाचो हिशेबपिशे मन घालता. वर्तमानात अर्विल्लो काळ सोदता. त्या शेणिल्ल्या पुण मनात भुलयल्ल्या खांणांक ओडून वर्तमानात हाडटा. मागीर खंय तरी कळटा हे जमपाचे ना. हाचेच वयल्यान आमी मागीर किदे बदलूना हाचो सोद घेता. राती पावस खुब पडिल्लो आसूं येत. सगळे नितळ नितळ दिसताले. एन. बी. वयूतल्यान भायर सरलो. रस्त्यार सगळ्याक मार्ग / दिकां दाखोवपी पाट्यो आशिल्ल्यो. मातयेरंगाच्या फांटभुयेर धव्या रंगान चितरयल्यो. 'धुळाक्षरां'न आदि शिकपाची सुरवात जाताली. मागीर पाटी आयली. कार्देन आयलो. 'चिरप' इतिहासांत स्थिरावले.

मणिपालांतल्यो सगळ्यो संस्था 'म' ह्या अक्षरान सुरवात जाताल्यो. चलत चलत विद्यापीठाच्या व्हडा इमारती मुखार पावलो. 'प्रज्ञान ब्रह्म'. Inspired by life. हय जीणेक लागून ब्रह्मांडाचो अर्थ लागता! निमाणे सत्य 'ब्रह्मं' आसूं बाबडे. पुण त्या ब्रह्माची जाणवीकाय जित्या जगत्या जिवाकीच जाता न्ही? जीण् शाश्वत ना! पुण 'ब्रह्म' सोदपाक ते साधन ना? ते साधन आसा म्हणून तर जग चलता. जगपाची उमेद म्हत्वाची. मुदलत जगपाची वांसाच ना जाल्यार मागीर जीणेक आनी त्या 'ब्रह्मांक' तरी अर्थ किदे? जगप किद्याक मोक्ष मेळोवपाक? मोक्ष म्हळ्यार मोहात् क्षया! सगळ्या मोहाचो अंत? त्याग! त्याग करपाक निमाणे ते म्हजेंकडे आसपाक जाय न्ही! जे हांवेन सोडपाचे आसा ते निश्चेव करून सोडपाक जाय! मागीरूच मोक्ष मेळटलो. मागीर ह्या त्यागाचे विज्ञान म्हळ्यार निश्चेवान पत्करलेली जीण. त्या विज्ञानान मेरेन पाळपाखातीर 'प्रज्ञा' जाय! धा वर्सांत मणिपाल कितले बदलें हाचो अदमास येवना पुण मणिपालाक येवन हांव मात बदललो हे खरें!







## तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात

# गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात



हें भोवउद्देशी संग्रहालय गोंयच्या संस्कृतीचें सम्यक दर्शन घडोवपा खातीर यत्न करीत आसा. संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात

- मूर्तिदालन
- ख्रिस्ती कलादालन
- मुद्रण कला दालन
- बॅनर्जी कलादालन
- धर्मीक अभिव्यक्तीदालन
- सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
- समकालीन कलादालन
- नाणकशास्त्र दालन
- गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
- मिनेझिस ब्रागांझा दालन
- फर्निचर दालन
- सैमाचो वारसो दालन
- पर्यावरण आनी उदरगत दालन
- भूगर्भशास्त्र दालन

संग्रहाल्यांत धा हजारां वयर वस्तूंचो संग्रह आसा.

संग्रहाल्यांत दृकश्राव्य विभाग आसून, विनवणे प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर आवाजचित्रफितींच्यो कार्यावळी दाखयतात.

पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबरग्लास प्रमाणबद्ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उबारिल्ली आसा.

हें संग्रहालय तुमचें जावन आसा आनी तुमचे कडल्यान वस्तूंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकून वा ठेव अशा रुपांत संग्रहाल्याक दिवन तुमी संग्रहालय समृद्ध करूंक शकतात.

**संग्रहालय उक्तें आसपाची वेळ:**
स. 9.30 ते सां. 5.30 - सोमार ते शुक्रार

## गोंय राज्य संग्रहालय

**संग्रहालय विभाग**
**ईडीसी संकूल, पाटो, पणजी-गोंय**
**फोन:** 2438006, 2437306, 2437307
**वेबसायट:** www.goamuseum.nic.in
**ईमेल:** museumgoa@sancharnet.in

# मॉनिटर



**कुमूद भिकू नायक**
खोर्ली, गोंय
नं. 9921825200

दोन दीस जाले गिरीश स्कूलाक येवंक ना म्हूण हांवें ताच्या आवयक विचारलें, 'गिरीश स्कूलात कित्याक येना?' दुयेंत आसा? तिणें म्हाका ना म्हूण सांगलें. ताका कांयच जांवक ना. बेश्टोच स्कूलांत वचनासतना रावता. टिचरी खंय ह्या दिसांनी कांयच शिकयनात. क्लासीत बसून बेश्टेच कितें करपाचें कांय म्हण विचारता. अशे म्हाका तिचे आवयन सांगलें. आवय्स... टिचराचें नांव पिड्ड्यार करता मुगो! वदंना टिचरीन म्हणलें, गिरीशाली मामेभयण आमचे कुशीक उबी आशिल्ली तांणी आमगेले उलोवप आयकलें. टिचर, तुमी गिरीशाली खबर करताली न्हय? गिरिश सामको मस्तो. ताची आवय-बापूय सामकी बरीं, ती दोगांय बँकेंत काम करतात.

गिरीशाक आनीक भाव-भयण आसात, कांय हो एकलोच? टिचरीन म्हणलें.

गिरीशाक आनी एक व्हडलो भाव आसा. ताचें नांव शिरीश. तो पुण्याक इंजिनियरींग करता. तो भाव मात ताचो सामको बरो. हो गिरीश आवय-बापायचे कांयच आयकना. पयले पणजे पिपल्सांत घातिल्लो ताका. कांयच शिकना जालो. थंय नापास जातकच ताका ह्या स्कुलांत घातला. खरे म्हळ्यार दुसऱ्या स्कुलांतल्यान नापास जावन आयिल्ल्या भुरग्यांक घेवपाकूच जायना. थंय तवनासपणा केली आनी उरिल्ली तवनासपणा हांगां करपाक आयला आसतलो.

जाणा मगो वंदना, शिकयता तेन्ना ताचे लक्षूच आसना. ताका लागून बरोबरची भुरगीय मस्तेपणा करतात न्हय गो? आठवेक आसतनाच ताची इतली मस्ती मागीर धावेक पावतकूच तो कितें करतलो?

आगो, तो आठवेक पास जाल्यार बरो आसा. खरें म्हणल्यार ताच्या आवय-बापायची काकूट, कितें म्हण करतली ती, बरी शिकली आनी शिर्वीस केली म्हण कितें जालें? ह्या भुरग्यांखातीर तांकां मान सकयल घालची पडटा.

काल कितें केलें जाणा मुगो ''तांणें, भुरगी भितर सरतना मदेच खंय पाय आडवो केलो. भुरगी धावत-धावत भितर सरताली वांगडाच दोगां-तिगां जाणां सकयल पडली. एकल्याचे धोपर फुटलें. वेल्यान आपणे कांयच करूंक ना म्हण सांगतां. हाका लागून सगळीं भुरगीं सुद्धा पिड्ड्यार जातली. कितें करपाचे गो हाका?''

तशें जाल्यार तागेल्या आवय-बापायक आपोवया आनी ताका स्कुलातलो काड म्हूण सांगूया. दोगीय टिचरी उलयताली तेन्ना थंय स्कुलाची पयलीची हेडमिसेस सुनीता मॅडम पावली. मॅडमीन ताका विचारलें कितें जाला? कोणाक स्कुलाचे काडपाक सोदतात?''

मॅडम तुमका कितें सांगू, गिरिश नांवाचो ह्या वर्सा एक नवोच भुरगो आयला. सामको तवनास.





कितें म्हण करपाचें? आताच्या भुरग्यांक मारपाचे आसा? सरकारान सामकी कडक ताकिद दिल्या न्हय? भुरग्यांक मारपाचें ना. ताका लागून भुरगी चड मस्ती जाल्यात म्हळ्यार जाता. ह्या मॅडमीकडेन भुरग्यांक समजावन सांगपाचे बरें जमतालें. आनी भुरगींय तिचें बरे समजून घेताली. मॅडमीन टिचरीक एक आयडिया दिली की आयज साकून ताका क्लासीचो मॉनिटर करात. ताचे पयली ताका ऑफिसात आपोवन घेयात, मॉनीटर जातकच ताचे काम कसलें, तांणी भुरग्याकडेन कशें वागपाक जाय हें ताका समजावन सांगात. तो सुदारतलो.

ना ना ताका मॉनिटर करप म्हळ्यार आमची पिशेपणा कशीं. क्लासी बरोबर स्कूल सुद्धा तो आपणाल्या माथ्यार घेतलो. अशें क्लास टिचरीन म्हणले.

हांव हेडमिसेस जरी आसली तरी भुरग्यांचे कावन्सीलींगय करता, खुबशा भुरग्यांक हांवें समजावन सांगलां आनी ती सुदारल्यातूय. तांचेर जबाबदारी पड्टकच तांकां कळटा. तेन्ना ताकां स्कुलातलो काडचेपयली हो एक उपाय करून पळोवपाक किते जालां? तांकांय तें खरे दिसलें. मॅडमीन दुसऱ्याच दिसा गिरीशाक ऑफिसात आपोवन घेतलो. गिरीश आपणाल्या स्टायलीन दादा कसो ऑफिसात गेलो. टिचरीनी ताचे स्टायलीकडेन पळोवन पळोवंक ना अशें केलें, आनी क्लास टिचरीन गिरीशाच्या हातात फुलांचो तुरो दिलो. अभिनंदन तुजें, तूं आयज साकून आटवेच्या क्लासीचो मॉनिटर. गिरीशाक आयकून अजाप जालें.

आवय्स... हांव मॉनिटर. स्वप्न कांय कितें? थोडो वेळ तो ओगीच रावलो. दादा कसो उबो राविल्ली स्टायल मात्शी देवयली. सगळ्या टिचरानी ताका हात दिलो. हासत-हासत गिरीशान सगळ्यां टिचरींक थॅंक्यू म्हणलें.

मॅडमीन ताका विचारलें 'गिरीश तुका आमी आठवेच्या क्लासिचो मॉनिटर केला. आयज मेरेन जितले मॉनिटर आठवेच्या क्लासितले जावन गेले, तांच्याकय बरी शिस्त तूं तुज्या क्लासितल्या भुरग्यांक दितलो, 'आमचें उतर खरें करून दाखयतलो जाल्यार पयली तुका तुजी स्टायल बदलची पडटली. तेन्ना पयले तुवें तुज्या केसाचो कोमो केला तो सारखो करचो पडटलो. तशेंच युनिफॉर्म आनी शाळेचो टायमिंग पाळचो पडटलो. तुवें हे सगळे वेवस्थित केलें म्हणटकच तुज्या क्लासितलीं सगळीं भुरगीं न सांगताच वेवस्थित येतली. हें सगळें गिरिशान वेवस्थित आयकून घेतलें आनी आपणाक हें मान्य आसा म्हणपाचे सांगलें.

तागेली जाप आयकून सगळ्यो टिचरी खूश जाली. गिरीशान हें सगळें क्लासीत वचून भुरग्याक सांगलें. गिरीश मॉनिटर म्हणपाचे आयकून सगळीं भुरगीं अजापीत जाली. कोणाकूच खरें दिसना जालें.

बेश्टोच, तूं आनी मॉनिटर...' अजाप म्हणपाचें,

अजाप जाल्यार फाल्या कळटलें. गिरीशान म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा गिरीश सगळ्यात पयलो स्कुलात आयलो. आंगार वेवस्थित कपडे आशिल्लें. केस बारिक आनी वेवस्थित आशिल्लें. पळयल्यार एका हुशार भुरग्याचे तेज आंगार झळकतालें. ताका पळोवन क्लासितली सगळीं भुरगीं अजापीत जाली. खरेंच गिरीश मॉनिटर... इतल्यान क्लास टिचरींन येवन सगळ्या भुरग्यांक गिरीश मॉनिटर म्हणपाचे सांगले.

आपणाक जशे टिचरांनी समजावन सांगलां तशेच क्लासिच्या सगळ्यां भुरग्यांक आपूण समजावन सांगतालो. हेडमास्तराचे उतर आपणाक खरें करून दाखोवपाक जाय अशें तांणी मानात





घट्ट धरिल्लें. पूण हें सगळें भुरग्यांक सांगपाची व्हडलीशी गरज पडली ना. ताका पळोवन सगळीं भुरगीं वेवस्थित येवपाक लागली. गिरीश नेटान अभ्यास करतालो. सगळ्यां भुरग्याचो अभ्यास, शाळेचो टायमिंग, युनिफॉर्म वेवस्थित आसा कांय ना ताचेर लक्ष दितालो. गिरिशाक दिसताले जर आपूण मॉनिटर, जाल्यार सगळ्यात चड मार्क आपणाकूच पडपाक जाय.

जालेय तशेंच गिरिशाक सगळ्यांत चड मार्क पडलें आनी गिरिश क्लासित पयलो आयलो. हें पळोवन सगळ्या टिचरिक सुमारा भायर खोशी जाली. मॅडमीक तांच्या क्लासीक बरो क्लास म्हण जाहीर केलो. इतल्यात तातुंतल्या एका टिचरान आपूण ही क्लास नंबर वन म्हण जाहीर करता म्हणपाचे सांगलें. आनी तेवूंय कित्याक तें सांगता अशें सांगून तांका एक खबर सांगली. आठवेच्या क्लासितल्या नदिमाचे वागणें पळोवन म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुखा आयली. भुरगीं सराचों इतको आदर करतात हें आयकून बरें दिसलें.

कितें केलें नदिमान? एका टिचरीन ताका म्हणालें,

नदिमाचे मेरशें रस्त्यांचें कुशीक एक दुकान आसा. त्या दुकानात दिसभर कितलेशेच लोक यो-वच करतात. हो नदिम त्या दुकानाच्या समाकारा उबो आशिल्लो खंय. त्या रस्त्याच्या मदीं एक न्यूज पेपर पडिल्लो . त्या पेपराचेर ताच्या सराचो फोटो आशिल्लो तो तांणी पळयलो. त्या रस्त्यावेल्यान चलतना पेपराचेर लोकाचे पाय पडटालें हें तांणी पळयलें आनी आमच्या सराच्या फोटवाचेर पाय पडत म्हण लोक वचसर तो थंय कडेक उबो रावलो आनी धावत वचून ताणी तो पेपर काडलो. तांणी म्हाका सांगलें. हें आयकतकूच म्हाका त्या भुरग्याची लक्तूबाय दिसली. दोळ्यांतल्यान न कळटा दुखां आयली. खरेंच, आमी म्हणटात तशें न्हय, भुरगीं ही भुरगेपणा करतातूच हातूंत दुबाव ना. पूण ताकां आपलो गुरू म्हण वळखूपाकूय येता.

खरेच आमी जाण्टयानिय भुरग्यांची भुरगेपणा समजून ताकां मायेन लागी करपाक जाय. मॅडमीन आमकां समजावन सांगले म्हूण आमी गिरीशाक समजावपाक पावली.

●●●





# Keep Goa Clean

You can help the authorities in safe disposal of "Household/Municipal" Solid Waste as under:

1) Do not litter.
2) Avoid the use of plastic bags.
3) Collect household "wet" waste (biodegradable 'kitchen/garden' waste) and 'dry' waste (non-biodegradable) in separate containers.
4) Use 'wet" waste for conversion into manure in your 'backgardent'.
5) Dispose off 'PET' bottles, plastic bags, glass bottles, metals and paper through PET collection centers and scrape dealers.
6) Dispose off remaining "wet" and "dry" waste separately through the Municipal/Panchayat authorities

## Please Note

"Municipal/Household" solid waste increases with the increase in our standard of living. It is mandatory under the law of each "Municipal/Village Panchayat" to collect, treat and dispose off "Municipal/Household" Solid Waste in a safe and sanitary manner.

Issued in Public Interest by
**Department of Science, Technology & Environment**
Government of Goa
Saligao, Goa

